कुळागर

१९८६

: आठवें

: ६

अंकाचे मोल : २ रुपया

की पटी : २५ रुपया

दक :
श थळी
ायण बादोळकार

रात विभाग प्रमुख :
ल पै

णावळ :
. जे. हुंद्रे
मुद्रणालय, कडोलकर गल्ली,
ांव. फोन : २३०७९

पी आनी उजवाडावपी :
कांत केणी
गर प्रकाशन,
बॉ. नं. ७८
ांव-गोंय-४०३६०१



# मांडावळ



ह्या अंकांत परगटायल्ली मतां त्या त्या बरोवप्यांलीं हातूंतले, बरपावळीचो अुपेग करचो जाल्यार बरोवप्याची
ळखी मान्यताय घेवप गरजेचें.

# कोंकणी साहित्याक पुरस्कार

साहित्य अकादमीन कोंकणीक अेक स्वतंत्र साहित्यिक भास म्हणून मान्यताय दीत सावन कोंकणीतल्या अेका ‘ बऱ्या ’ पुस्तकाक वर्सान वर्स साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळत आयला. अकादमीचो पुरस्कार हो त्या पुस्तकाच्या दर्जाचो गौरव काय लेखकाच्या व्हडपणाची तोखणाय आसता हें आमी नकळत. पुण जांकां हे पुरस्कार आजवेर मेळ्ळयात ते तोलामोलाचे कोंकणी साहित्यिक आसले हातूत दुबाव ना. पुण ज्या पुस्तकांक हे पुरस्कार दिल्यात तीं पुस्तकां तेद्या तोलामोलाचीं वा त्या लेखकाल्या पुस्तकां-मदलीं ‘ सर्वोत्तम ’ म्हणपाचें धाडस कोणूच करचो ना.

साहित्य अकादमीचे धर्तीचेर, घडये अकादमीचेंच अनुकरण करून आसत, मणिपालच्या डॉ. टी एम्. ए. फाऊंडेशनानय कोंकणी पुस्तकांक इनामां दिवपाची अेक तजवीज सुरू केल्या. साहित्य अकादमी फक्कत देवनागरी लिपींतल्या पुस्तकांचो विचार करता जाल्यार फाऊंडेशन लिपीची मर्यादा मानिना. देखून देवनागरी लिपींतल्या बरयतल्या साहित्यिकांभाशेनच हेर लिपींतल्यान बरयतल्या लेखकांक ( काय तांच्या पुस्तकांक ? ) पुरस्कार मेळपाची तजवीज जाल्या.

गोंयची कला अकादमी गोंयकार लेखकांनी बरयिल्ल्या कोंकणी पुस्तकांक इनामां दिताली. पुण हालीं त्या इनाम येवजण खंयच्या ‘ डीप–फ्रिजां ’ त पडून उल्ल्या देव जा

गोंयचें कोंकणी भाशा मंडळय लिपी–भेद मा आसतना कोंकणी पुस्तकांक वर्सान वर्स इनामां दिता इनामांचो आंकडो ल्हान आसलो तरी तांचो मान किर न्हय. आजवेर हीं इनामां मेळयिल्ल्या लेखकांमदीं कीर्त जोडिल्ले जशे आसात तशे कांय नवोदितय आसा

जण अेका लेखकाक आपल्या पुस्तकाक इनाम मे अशें दिसल्यार अजाप ना. वर्सान वर्स तीन चार वा कोंकणी पुस्तकांक इनामां मेळ्ळीं हाजी खोशी सग कोंकणी समाजाक भोगता. पुण जर इनामां दिता आस पुस्तकाचे गुण सारके पारखिले नात आनी कोणाकय इनाम दिवंक जाय हे भावनेन तें दिलें जाल्यार, पैशे आसू वा चड, कालांतरान त्या इनामांचें म्हत्व उणें ज वतलें.

देखून इनामांखातीर पुस्तक वेंचतना इन दवरिल्ल्या संस्थांनी बारीक चाळण वापरपाची आसा. तशें केल्यान तांच्या इनामांची प्रतिष्ठा वाडटली तेच भाशेन तीं इनामां जोडपाखातीर साहित्यिक साधना करपाची प्रेरणा लेखकांकय मेळटली.

# ण सारतना यादींचे खीण

– भिकाजी घाणेकार

**हां**व तेन्ना नवोच कविता बरोवंक लागिल्लों. पणजे क्लुब ोनालांत एक कवी संमेलन आशिल्लें. कवी संमेलनाचे अध्यक्ष ाकीबाब बोरकार आशिल्ले.

कवी संमेलनाक ३० ते ४० कवी वांटो घेवपाचे आशिल्ले तें फक्त कोंकणी भाशेनूच जावपाचें आसलें. कोंकणी भाशा न तें आयोजीत केल्लें.

कवी संमेलन स वरांचेर सुरू जावपाचें आसलें. हांव साडे क्लब नासिओनालांत गेलों. सुमार धा बारो जाण थंय जाल्ले.

पावणे स वरांचेर कवी संमेलनाचे अध्यक्ष भौ. बाकीबाब र आयले. ते येवन बसले आनी तांच्या इष्टांकडेन गजाली लागले.

थोडया वेळान हांव म्हजी एक कविता घेतली आनी बाकी-बोरकरांक दाखयली. तांचे आतां किदें अभिप्राय आसतले हें पाक मन सामके वयर सकल जातालें. बाकीबाबान ती म्हजी वाचली आनी म्हाका पळेत सांगलें.

'बरयत राव, बरयता तितलो सुधारता.' आज म्हाका हीं उत्रां पट्टात. कवीन बरयत रावंक जाय, एका झन्याभशेन ासतना.

## कुटलें

हांव सामको ल्हान धा वर्सांचो आशिल्लों तेन्नाची ही खबर.

म्हज्या बापायक उदक पियेवपाची संवंय. तो खुब उदक ालो. भायर सरता आसतना तर ताका अेक कोप उदक जायच ल्लें.

अेक दिस म्हजो बापूय भायर सरतालो. तो भायल्या दारा- पावलो आनी ताका याद जाली आपूण उदक पियेवंक लों म्हणपाची. ताणे म्हाका अेक कोप उदक हाडपाक सांगलें. ायरूच आशिलो.

हांव बेगीबेगीन भीतर गेलो आनी अेक ग्लास भरून उदक आनी बापायक दिलें. म्हजो बापूय तें उदक पियेलो आनी तो ग्लास म्हजेकडेन दिलो आनी तो गेलो.

हांवे थोडो वेळ बापूय वता तो पळेलो आनी उपरांत ग्लास घेवन भितर येतालो तो अेका फातराक आपटून पडलों.

म्हज्या हातांतलो ग्लास सकल पडलो आनी ग्लास फुटून कवंच्यो जाल्ल्यो ताजेर हांव पडलों. म्हज्या कुल्याक कवंच्यो लागून रगत येवंक लागलें. हांव रडलों. खूब खूब रडूंक लागलों. हें आयकून आवय आयली, भयण आयली. ताणी म्हाका वखद लायलें आनी घरांत हाडून न्हिदयलो.

ह्या गजालीची याद इतली ताजी कशी उल्ल्या ?

## जेवपाचो डबो

हांव बेतके हॉस्पीटलांत काम करतालों तेन्ना दनपारच्या वेळार म्हाका माशेलांतसून जेवणाचो डबो एक प्यून हाडटालो. हांव जसो जेवलों म्हण्गच सांजेवेळा चार वरांचेर त्याच प्यूनान तो डबो व्हरुन बेतके दिवप. आनी दुसरे दिसा तोच डबो भरून परतो हाडप.

अशें हें चल्लें. जेवण हून मेळटालें. बरें आसतालें. आनी म्हज्या कुडींत हॉस्पीटलांतल्या लागींच्या घरांत जेवील्ल्यान त्रास जाय- नाशिल्ले. जेवल्याउपरांत मात्सो आड पडूंक मेळटाले. अशी म्हाका सामकी संवंय जाल्ली.

एक दिस ह्या प्यूनान म्हजो डबो वाटेर शेणयलो. तो आशिल्लो भेडो आनी मोनो. सायकलीक लावन तो डबो परतो व्हरता आसतना सायकलीवेल्यान डबो पडलो. ताका आयकूंक आयलेंच ना. अशेतरेन डबो शेणलो. रस्त्याच्याकडेन सगल्याक सोदलो. डबो मेळना.

तेन्नाचान हांव दुसरो एक डबो त्याच खाणावळकाराकडेलो हाडून जेवंक लागलों. आनीक कांय दिसानी डबो घेवपाचे थारायल्लें.

इतल्यान चार ते पांच दिसांभितर म्हजी बदली पणजे जाल्ली.

जेवणाच्या डब्याची आतां कसली गरज ?

## बसीच्यो तिकेटी

अेक दिस हांव फोंडयां वचूंक भायर सरलों. फोंडयां म्हाका अेक काम आशिल्लें. पणजे प्रासार गेलों आनी बसींत चडलों. बस

भरिल्ली. निमाण्या सिटार म्हाका बसपाक जागो मेळ्ळो.

बसींत बसनाबरोबर फुडें नदर मार जाल्यार म्हजो अेक इष्ट त्याच बसींत फुडल्या दारांतल्यान भितर सरलो. दोगूय जाण आमी फोंड्यांच वताले. तो केन्ना केन्ना फोंड्यां वतालो. तो केन्ना केन्ना फोंड्यां वता हें म्हाका खबर आशिल्लें.

बस सुटली म्हण्टकच हांव थंयच बसलों. फुडें आनीक इश्टा-सरेन गेलो ना. कारण थंय उबो रावचो पडटलो आशिल्लो. तेच तरेन येवजून म्हजो इश्ट फाटल्यान म्हजेसरेन आयलो ना. कारण ताकाय जागो नाशिल्लो.

बस फुडें वताली. रायबंद्रा पावून बसीचो कंडक्टर म्हजेसरेन पावलो. हांवें दोन फोडेंच्यो तिकेटी काडल्यो. अेक म्हजे आनी अेक म्हज्या इश्टाची.

फोंड्या पावनाफुडें आमी दोगूय देंवले आनी अेकमेकाक मेळ्ळे. हांवें सहज म्हळें, ' आरे तुवें तिकेट काडूंक ना मरे हांवे तुजी काडल्या.' हें आयकून म्हजो इश्ट सांगूंक लागलो, ' आरे हांवेंय दोन तिकेटी काडल्यात. अेक म्हजी आनी अेक तुजी.'

## मुदारली ?

हांव पणजे हॉस्पीटलांत काम करतालों तेन्ना तीन म्हयने कालाफुरा एक सेंटर आसा थंय काम करूंक वच्चें पडलें. वचपाक आनी येवपाक पणजे हॉस्पीटलासाकुन आमची जीप आसताली.

कालाफुरा जेन्ना हांव पयलेच दिसा काम करूंक गेलों [illegible] सावन कांय दिसानी एकटी बायल थंय आयली. ती जाण्टी बा[illegible] तिका प्रेसांवांचें जाल्लें. ती अशीच केन्ना केन्ना हांव थंय वच्चे प[illegible] दुसऱ्या दोतोराकडल्यान तपासून घेवपाक येताली. हांव ज्या जा[illegible] कालाफुरा बदली जावन गेल्लों थंय म्हज्या पयलीं एक बायल म[illegible] दोतोर काम करताली. हि दोतोर आनी ती प्रेसांवांचें जाल्ले[illegible] बायल हांची दोगांयची बरी दोस्ती जाल्ली.

प्रेसांवांचें, टि. बी. वा बारिव जोर, कुरासांवांचें, कुष्टर[illegible] आदी रोग जाल्ल्यार खूब तेंप हॉस्पीटलांतलीं वखदां घेवचीं प[illegible] आनी ताका लागून तांची आनी हॉस्पीटलांतली वा सेटरांत[illegible] नोकरांची बरी वळख जाता.

ती बायल म्हजेसरेन प्रेसांव काडूंक आयली. तीणे म्हा[illegible] पळेलो आनी त्या पयल्या दोतोरीक विचारलें आनी रोखडोच [illegible] केलो.

'तुमी केन्ना 'मुदारली' तर ?

## House Full

प्रशिक्षणाखातीर हांव आनी म्हजो एक इश्ट आमी दो[illegible] जाण दिल्लीक गेल्ल. दिल्लीक गोवा सदनांत रावताले. आ[illegible] प्रशिक्षण आरोग्य शिक्षणाचेर आशिल्ले आनी तें कोटला [illegible] थंय चलतालें.

एक दिस सांजेवेळा स वरांचेर आमी सिनेमाक वच्चें थाराय[illegible]


Please buy IPA (Provedoria) Goa Lottery Tickets generously.

Provedoria is rendering assistance to indigents, old and infirms families in distress. Victims of natural calamities, poor students for pursuing higher studies, persons of serious ill health, physically handi-capped. Education for deaf & dumb, family planning operated persons, stipends to doctor practising in rural areas etc.

Buy Provedoria Weekly Mini & Goa Lotteries to help the above victims.

Issued by :

I.P.A. (PROVEDORIA)

सिनेमा चलतालो. सिनेमाच्या थिएटरांत वच जाल्यार थंय ose full हि पाटी मारल्या. तश्यात आमी तिकेटी विकता ले आनी दोन तिकेटी मागल्यो. ताणे दोन तिकेटी रोखडचोच तिकेटी पळोवन आमकां अजाप जालें. थिएटर भल्लां अशी मारल्या आसून लेगीत आमकां दोन तिकेटी त्याच तिकेटीच्या मेळिल्ल्यो.

आमी थिएटरांत भितर सल्लें. सिनेमा सुरू जावपाक पांच आशिल्ली. तीस चाळीस जाण थिएटरांत पळोवन आमकां जाल्लें. भायर गर्दी व्हडली नाशिल्ली. पुण House full टीच आमकां परत परत दिसताली.

हि पाटी लावपाचें कारण किदे ? सिनेमा सुरू जालो. मध्यंतर त्या वेळार पळेत जाल्यार दोनशें तिनशें लोक. थिएटर अर्द आशिल्लें. हि पाटी लावपाचें कारण किदे ? होच प्रश्न सतायतालो. ह्या प्रश्नाची जाप सोदपाकूच आमकां वेळ गो. सिनेमावेले लक्ष ह्या प्रश्नाच्या जापेचेर गेल्लें.

## णांची वळेरी

हांव १९६३ पासून आकाशवाणीचेर कार्यावळी सादर करतां. पयलीं ल्हान ल्हान नाटकुल्यानी वांटो घेतालों. उपरांत बरोवंक लागलों. आज म्हाका कांय कोंकणी लेखक हांव म्हणूंक तयार ना. पुण जांव फूल ना थंय पाकळी आज म्हाका तकार म्हणून पाचारतात.

तर हांव १९६५ सावन पणजे रेडियो स्टेशनाचेर केन्ना केन्ना थंयच कांय काम करपी लोक म्हजे इश्ट जाल्यात आनी तांचो इश्ट.

रेडियोचें आनी म्हजें नातें सामकें लागिचें अशें म्हळ्यार ताय जावंची ना. पयलीं हांव रेडियोचेर गीतां आयकून आयकन कोंप्युटरांत घाल्ल्याभशेन दवरतालों उपरांत हांवूच नव्यो रचना करूंक लागलो. आनी रेडियोचेर गीत रूपान लागल्यो.

१९८३ वर्सा हांव अेक दिस म्हापशा आझिलो हॉस्पीटलांत कडेन सहज उलयतां उलयतां अेक दोतोर म्हाका सांगूंक लागलो.

'खळार आनी मळार' ह्या कार्यावळींत उलोवपांची वळेरी सुरवात केल्ली. कार्यावळी कश्यो आसच्यो हांजे मार्गदर्शन केल्लें. 'ह्या दोतोराचें नांव तर त्या आकाशवाणीन केन्नाच र सोडूंक ना. हांवें मनांत म्हळें: म्हजें आनी रेडीयोचें नाते खबर ना. काय ?'

## जो बायल बामण'

सगल्यान पयलीं तुमचो गैरसमज जायक म्हणून सांगतां. हांव च्यो जाती मानीना. शिकून जो वयर सरला ताका जात कोण रता ? एक दुयेंत जाका आमी तपासतात ताची जात कोण रता ? हां पुण नव्यो जाती मानतां. त्यो म्हळ्यार क्लार्क, आमदार, मंत्री, आदी, तलाठी, चौकींदार, ग्रामसेवक, आदी.

एक दिस आमी कांय दोतोर एकठांय बसून उलयताले. पयलीं पयलीं मेदिसीनाच्योच गजाली जाल्यो. नवी वखदां कसलीं आयल्यांत, आतां खंयच्या रोगाआड नवीं वासीन तयार करपाचें काम चल्लां, हॉमीओपाथी ह्या वैजकी शास्त्राचे चड तेंप आशिल्ल्या रोगांबाबतींत म्हत्व चड देखीक दमो, मुतखडो, आदी.

उलयतां उलयतां मदींच किदयाक म्हणून कोण जाणा. 'जातीचो' प्रश्न आयलो. बडीचें कशें येता ह्या संबंधान आमी चर्चा करताले. आमी जे दोतोर आसलो आसले तातूंत कांय ख्रिश्चन आसले. ख्रिश्चनांची तर जात कळप कठिण. एक वेळ हिंदूची नांव आनी आडनांव हाज्यावेल्यान सुमार करूंक येत. तर उलयतनाच एकलो ख्रिश्चन दोतोर सांगूंक लागलो.

'म्हजी बायल बामण.'

हाज्यावेल्यानूच आमी ताडलें तो खुद्द बामण न्हय.

## बायलेचो हात

ज्या तेंपार भारताची पंतप्रधान आनी गोंयची मुखेलमंत्री हीं दोगांय जाणां बायलमनशां आसलीं, पणजे क्लुब नासिवोंनालांत एक परिसंवाद आशिल्लो. विषय आसलो—

'बायलानी राजकारणात वांटो घेवंचो काय ना ?'

ह्या विशयाचेर एक कोंकणीतलो नामनेचो उलोवपी आनी विनोदी कवी वाटो घेतालो. दर एकलो आपले विचार मांडतालो. सगळो क्लुब नाशिवोंनाल भर पणजेचो बरे बरे प्रतिस्टीत नागरीक आसले. तातूंत सुमार अर्द बायलां आसलीं. ह्या कार्यावळीची जायरात बरी जाल्ली आनी उलोवपी बरे आसले देखून गर्दी जाल्ली. त्या भायर परिसंवादाचो विषय बरो रंगपासारकोच आसलो.

वयर सांगला तो उलोवपी आपले विचार मांडतालो. ताजें उलोवप बरें रंगार आयिल्लें. सगळे खोशी जावन वातावरण बरें हांसतें खेळतें जाल्लें. अशेतरेन कार्यावळ रंगार आयिल्लेकडेन क्लुब नाशिऑनालांतली बिजली गेली. सगळ्याक काळोख जालो. भायरूय सगळ्या लायटी गेल्ल्यान सगळ्याक काळोख जाल्लो. इतल्यान तो उलोवपी सांगूंक लागलो.

'आतां हेंच पळेयात. ही बिजली गेल्या तातूंत लेगीत किदेंय तरी राजकारण आसा आनी त्या राजकारणांत खात्रीन एका बायलेचो हात आसा.' काळखान लेगीत सगळे हांसले.



# गजाली

— अना म्हांबरो

## ‘चान्न्याचे राती’ आनी ‘ब्रम्हास्त्र’ हांच्या निमतान...

गोंयांत जांणी आतांमेरेन कोंकणी–मराठींत बरप केलां तांतलो अेक म्हत्वाचो बरपी म्हळ्यार अुदय भेंब्रो. अुदयान जें कितें आतांमेरेन बरयलां तांतलें लोकांचे यादस्तींत खुबसो काळ अुरतलें तें पद्य आनी मराठी गद्य.

तशें पळोवंक गेल्यार अुदयाचें खाजगी अुलोवप खूब मोव आनी भौशीक अुलोवप अिल्लें कडक. हरशीं कोणायकडेन रस्त्यार, घरांत, बसींत–मोटारींत नमळायेन अुलोवपी हो मनीस स्टेजीर चडल्याबराबर अितलो कडक कसो जाता काय, असो आयकतल्याक प्रस्न पडपाचो. आनीक अेक गजाल– अुदयालें प्रायव्हेट अुलोवप आयकताना तो कवी आसुंये असो भास जाता जाल्यार तागेलें पब्लीक अुलोवप आयकताना तो गद्य बरपी आसूंये अशेंय दिसता.

खरें म्हळ्यार कवी आनी गद्य लेखक अशे दोनूय प्राणी अुदयांत वसतात. तागेल्या गद्याचो बेस बरो आविष्कार आमकां ‘ब्रह्मास्त्रां’त आनी अुपरांतल्या सुदर्शनांत दिसता. आनी काव्याचे कांय सोबीत नमुने ‘चान्न्याचे रातीं’त पळोवंक मेळटात.

‘चान्न्याचे राती’ वाचताना अेक विचार मनांत येवन गेलो. अुदय लोकांक जो कवी म्हुण खबर आसा तो तागेल्या गीतांक लागून न्हय मूं? तागेलें चडानचड लोकांचे जिबेर बशिल्लें गीत म्हळ्यार : ‘चान्न्याचे राती, माडाचे सांवळेंत सारयल्ल्या सोबीत मांडार... हातांत घालून हात, नाचूंया गावंया घुमटाच्या मधुर तालार.’

हें सगलें गीत गोंयच्या खुबशा गायनप्रिय तन्नाटयांक पाठ आसुंये असो म्हजो अदमास. रेडियो लायल्यार अदींमदीं अुदयाचीं हेर कांय गीतांय तुमच्या कानार पडूं येतात– ‘विसरिल्लें याद करून लजवं नाका, लजवं नाका’ नाजाल्यार

‘येवंचे तुवें काळखे राती
न्हेसून शालू काजुल्यांचो
नखेत्रांचीं मोतयां शिपीत
व्हलैंत पोनेळ चंद्रिमाचो’ बी.

अुदयाच्यो आनी हरदत्ताच्यो (खांडेपारकार) कविता वाचताना केन्नाय दिसतालें हे दोगूय काव्यांतली बाकीबाबांली परंपरा मुखार व्हरतले. दोगांकूय बाकीबाबांवरी अुतरांचे खेळ करपाची संवंय. अुदयाच्या काव्यांतल्यो कांय वळी हांची गवाय दितात. देखीक, ‘म्हजीं गोरवां’ हे कवितेंतल्यो ह्यो वळी पळेयात.

घराफाटल्यान पाण्टयाधडेर
गोठयांत गोठेल्ल्या गोरवांची
बरगेल्ल्या म्हेडींमाथ्यार
करंगेल्ल्या वांश्टांची

अशेच काय अुतरांचे खेळ ‘येवंचें तुवें’ हे कवितेंतूय दिसत[ा]
अदीक करून ह्या वळींनी:

येवंचें तुवें लावंक पिशें
हांसत हांशें केळफुलाचें
यादस्तीच्या वालीपानांर
म्होवाळ दंवा ओलसाणेचें

तें कित्याक, ‘विसरिल्ले याद करून लजवं नाका, लजवं ना[का]’ ही अुदयाली कविता वाचताना, कसलोच कांय संबंद नासता[ना] म्हाका बाकीबाबांले ‘नस्तें बाये म्हाका सोंसना मोगाक नस्तीं सवं[य] कित्याक’ हे कवितेचो अुगडास जाता.

अुदयाचें ‘ब्रह्मास्त्र’ वाचताना राष्ट्रमतान १९६३ ते १९[६] ह्या काळात वावर केला ताचो अुगडास जातो. राष्ट्रमत अुबा[...] पांत मुंबयच्या अण्णा फणसे हांचो सिंहाचो बा म्हण्टात तसो वा[...] अ.सा. राष्ट्रमताच्या वावराचो नियाळ घेवन बरयल्ल्या अे[...] लेखांत ते म्हण्टात :

‘५००० रुपयांच्या भांडवलावर राष्ट्रमतच्या अुभारणीच[्या] कामास २३ जुलै १९६३ ला आम्ही प्रारंभ केला आणि १[...] ऑगस्ट १९६३ ला बावीस दिवसांत आमचा पहिला अंक तया[र] झाला. बावीस दिवसांत अुभे झालेले मराठी भाषेत दुसरे वृत्तप[त्र] सांपडणार नाही. राष्ट्रमतमध्ये गोव्यासाठी ज्यांची अंतःकरणे पेटले[ली] आहेत अशीच माणसे घेतली गेली होती.’

ज्यांची काळजां त्यावेळार पेटिल्लीं अशा भितल्लो अे[क] अुदय. ‘ब्रह्मास्त्र’ खुबशेकडेन ताचें हें पेटिल्लें काळीज दिता.

विलिनीकरणाचो वाद अैन रंगार आयिल्लो आसता[ना] राष्ट्रमतांत कितलेंशेंच बरप येतालें. कोंकणींत आनी मराठीं[त] गद्य आनी पद्य. गंभीर आनी विनोदी. हांतलें चडशें बरप राजकी[य] समाजीक आनी सांस्कृतीक नदरेन बरयल्लें आसतालें. ह्या बरपांत सगल्यांत अदीक म्हत्त्वाचें बरप म्हळ्यार ‘ब्रह्मास्त्र’

त्यावेळार राष्ट्रमत हुडयांनी खपतालो. आनी हें दिसा[...]

पी दरअेक मनीस अंक हातांत पडनाफुडें 'आयज
किते आयलां काय ?' म्हुण पयलीं वाचतालो.

तंत्र गोंयांत कोंकणी, मराठी, अिंग्लिश आनी पुर्तुगेज
ांनी वेगवेगळीं नेमाळीं आयलीं : हांतल्या अेकाय नेमाळयांत
अितलो लोकप्रिय स्तंभ दुसरो जालो ना. जे अुमळशीकेन
वाचपी 'ब्रह्मास्त्र' वाचताले ती अुमळशीक त्याआदी वा
ांच्यात दुसऱ्या खंयच्याय बरपाविशीं दिसली ना.

ह्मास्त्र' ह्या स्तंभाचे जनक अण्णा फणसे. राष्ट्रमत सुरू
ीर म्हूण ते गोंयांत आयले त्यावेळार वेतनाच तांणी कांय
भ हांचीं नांवां थारायलीं आनी तांचीं चित्रां, ब्लॉक्स
ले. ह्यासंबंदी अण्णांनी खबर सांगली ती अशी : त्या वेळार
त्राक 'भारत' हे नांव दिवपाचें थारिल्लें. ह्या नांवाक
परवानगी मेळ्ळी ना. देखून तें बदलून 'राष्ट्रमत' केलें–
म्हणण्याप्रमाण 'ब्रह्मास्त्र' हेच नांव वर्तमानपत्राक दिल्यार
य अेक विचार तांगेले तकलेत येवन गेल्लो. पुण तातूंत दोन
ं आसात म्हुण तें दिवंचे न्हय अशें तांकां दिसलें. 'ब्रह्मास्त्र'
ामाचें. देखून ताच्या बदल्याक 'परशुराम' हें टोपण नांव
लें. ब्रह्मास्त्रांचे पयलें चित्र मुंबयच्या गांगल ह्या चित्रकारान
.

तां अुदयाच्या भासेसंबंदी दोन अुतरां. अुदय आयज
म्हुण खूब गाजता ताची सुरवात म्हजो अदमास तागेल्या
कॉलेजांतल्या मॉक पार्लमेंटांत जाली. भौशीक मळावेलें
पयलें म्हत्वाचें अुलोवप, म्हाका अुगडास जाता त्याप्रमाण,
१९६२ ह्या दिसा मुंबयच्या जिना हॉलांत जालें. गोवा
सोसिअेशनान गोंयच्या प्रस्नांचेर चर्चा करपाखातीर ही
फयली. तातूंत खुबसो बोवाळ जालो आनी ते दीसचें अुदयाचें
ूब गाजलें. अुपरांत हे सभेचो नियाळ अुदयानूच त्यावेळार
वन 'कोंकणी' म्हुण पत्रक येतालें तातूंत दिलो– 'राखणो'
ण नांवान. ह्या नियाळाचो म्हत्वाचो वांटो हांगां दितां:
कोंकणीचे वाटेन अुलवपां जातना मराठीवादी गुंड
चाळवताले. माचयेर अुबे रावन चार अुतरां अुलोवपाची
ाशिल्ले हे लोक आंगांत भरिल्ल्यां तुतनायकाच्या नेटार
न अुलवप्याच्या आंगार चडून येतले आनी दुःखाची गजाल
, शांतताय राखपाची जापसालकी आशिल्ले कांय जाळवण-
ां तेंको दिताले. ह्या जाळवणदारांनी हाचे फुडें तरी शाणे
ानी लोकांक वरी देख लावंची.'

ा वांटयांत आमकां अुदयाच्या ब्रह्मास्त्राचे शैलीचें मूळ
'कोंकणी' पत्रकां आनी अुपरांत 'कोंकणी' पंद्रशीत अुदयाचे
लेशेच लेख आसात तातूंत अुपरांत 'ब्रह्मास्त्रां'त आनी
'त जी कडक भास दिसली तशेतरेची भास आयल्या. देखीक
६२ च्या 'कोंकणी' पत्रकांत पयल्याच पानार अुदयाच्या
ोमंतक दिसाळयाच्या संपादकांक आव्हान दिवन बरयल्लो
आसा. ह्या लेखाचो माथाळो आसा. आव्हानः 'गोमंतकां'च्या
दुस्वाशी संपादकांक आनी तांच्या नांवान भोंकतल्यांक.' ह्या


# दुकळे, भोबे
# आनी कंपनी

## पणजी

■ प्लायवूड ■ सनग्लोस
❋ सेनिटरी वेअर आनी ■ ग्लेझ्ड तिजुले

When you plan bathrooms
to last a lifetime, beautifully.



मडगांव–शो–रूम
## सॅनो–प्लाय सेंटर मडगांव


लेखांत अुदय गोमंतकाच्या त्यावेळच्या संपादकांच्या कांय मुद्यांक जाप दिवन निमाणेकडेन म्हणटा : 'गोमंतका' च्या संपादप्यांक आनी तांणी हाताक धरिल्ल्यांक आमी आव्हान दितां की असत्य आनी पैसो हांच्याच नेटार जर तांकां सत्याकडेन झगडचेलें आसत, जाल्यार वांकडे तिकडे भाशेन आनी गायरींत बसून हाजेर–ताजेर शेंवटुपाचे मार्ग सोडून खऱ्या नांवान आनी निजाचे बुद्धीन तांणी समाजामुखार अुबें रावचें... सत्य आनी ह्या लोकांचें चारित्र्य लागूंदी कसाक.'

१९६४ ते १९६८ ह्या काळार जे लोक 'राष्ट्रमत' नेमान वाचताले तांकां अुदयाचें 'ब्रह्मास्त्र' परथून वाचताना खुब्ब खोस जाली. ह्या पुस्तकाच्या निमतान ओपिनियन पोलाचो अितिहास परथून तांच्या दोळ्यांमुखार अुबो रावलो अशें तांतल्या कांय-जाणांनी म्हळें. जांणी त्यावेळचो अितिहास घडटाना पळेलोना तांतल्या कांयजाणांक ह्या पुस्तकांत अेकाद्रें तेंच-तेंपण दिसपाची शक्यताय आसा. पुस्तकाक निमणेकडेन 'ब्रह्मास्त्रा' चो प्रकाशित लेखानुक्रम आनी ताका पूरक अशा घटणांची जंत्री जोडल्या ही अेक बरी गजाल. प्रास्ताविकांत 'ब्रह्मास्त्रा' ची फाटभूंय आयल्या तरीय अशें मनापसून दिसलें की ह्या पुस्तकाक अण्णा फणसे हांचे लिखणेंतलीं 'दोन अुतरां' आसल्यार दुदांत साखर पडिल्ल्यावरी जातलें आसलें.



# गोंयचे टेंपो आनी प्रवास

— प्रकाश

गोयांतल्या गोयांत प्रवास करतलो जाल्यार कसोय करूं येता. व्हडयांतल्यान, गाजोलीनांतल्यान वा फेरीबोटीतल्यांन, आगगाडयेतल्यांन ना जाल्यार बशींनी, टॅक्सींनी तशेंच टेंपोनी. त्याभायर रिक्शा आनी मोटारसायकलीय आसात. पुण एकाच वेळार प्रवासाची मजा आनी सगळेतरेचे अणभव घेवपाचे आसल्यार टेंपो हें प्रकरण चड म्हत्त्वाचें.

गोंयां फिरंगी वचून तिरंगी आयलो; ते पदेर आनी ते अुंडे वचून नवे पाव आयले; पोन्ने सुणे वचून नवे सुणे आयले. तशेंच परीं आदले कामिजांव वचून बशी आयल्यो आनी फाटोफाट टेंपो आयले.

गोंयचें प्रवासी टेंपो म्हळ्यार बस आनी टॅक्सी हांचेमदली तडजोड. जाय जाल्यार हाका 'तडजोड' म्हणचे सुवातेर कोणेंय 'तड-जोड' म्हणचे; म्हळ्यार प्रवाशांकडे नातें आनी तांची हाडां 'तोड' आनी पैशे 'जोड' असो ताजो अर्थ.

टेंपो हो प्रकार फाटल्या आठ–धा वर्सांसावन गोयां चड फामाद जाला. बस चड व्हडली जाता आनी टॅक्सी चड ल्हान जाता अशा वेळार धा पंदरा लोकांची सोय भेस बरी करपी वहान म्हळ्यार टेंपो. पिकनिक, पार्टी, तिर्थयात्रा, लग्नाकारणा निमतीं जावपी येरादारी हांका टेंपोची वेवस्था बरो जाता. त्याभायर गावांगेल्या वाठारांनी अशीर रस्ते बी आशिल्ल्यान जंय बसींची वेवस्था ना थंय टेंपो धावूंक लागिल्ल्यान गावांतल्या लोकांची तशी बरी सोय जाता.

टेंपोची आसन वेवस्था म्हळ्यार लोतेसांव १५–१६ लोकांचे, पुण भाडीं मारपी टेंपो म्हण्टात ते गोयांतरी सामके लवचिक आनी रबरावरी कितलेय ओडून ताणूं येतात. पंदरांचे सुवातेर पन्नास प्रवासी भल्ल्यार अजाप दिसपाचें न्हय. मागीर कंडक्टराक भितर बसपाक वा उबो रावपाक सुवात कशी उरतली ? तो तें कुशीचें दार अुकतें घट धरून अुबो रावता. तेन्ना 'कुस फुटून उतर आयलें' ह्या कोंकणी वाक्प्रचाराची कोणाकूय याद जावंची. ताका हाची अितली संवय जाल्या की टेंपो रितो आसल्यार लेगीक टेंपोच्या कंडक्टरान 'टेंपोची कुस फुटून' भायर हुमकळूंक जाय असो कायदोच जाल्लेवरी दिसता.

टेंपोभितरली परिस्थिती कितें वर्णूंची ! पंदरा सोळा
बसपाची वेवस्था आसता. पुण जांकां बसूंक मेळना तांका
रावपाक तरी मेळूंक जाय न्हय ? पुण ना. टेंपोत पर्याय दोन
बसपाचो नाजाल्यार तकली बागोवन अुबो रावपाचो. सहसा
मुखार केन्नाच तकली बागोवंक नकळ आशिल्या गोंयकारा
टेंपोन बुद शिकयल्या. where the mind is wit
fear and the head is held high हे टागोरांचे कवि
आशय हांगा जुस्त अुरफाटो जाल्लो दिसतलो. पावलाकण
वोल्तावोल्तार आनी दर चडटे देंवतेंर the mind is con
ntly under fear and the head is held on
half mast.

गच्च भरिल्या टेंपोंतल्यान वचपाचो प्रसंग म्हजेर येता
म्हाका आदले मुस्तींतल्या शाळामास्तरांनी तेन्नाचे पिळगेंक अ
दवरून मानेर फातर दवरून केल्ल्या ख्यास्तीची हटकून याद
आयचे पिळगेक तेन्नाच्या मास्तरांनी तेन्नाचे पिळगेचे मानेर
जापसालकेचो प्रत्यय येवंची अशी ही वेवस्था आनी अवस्था.
लोक मागीर तांतले तांतूंन तकली बागोंवची ना अशें मनां
मनांत म्हणत 'ताता' केल्लेवरी आपणाल्याच खांदार आप
तकली दवरतात. आतां 'आपणाल्याच खांदार आपणाली त
अशेंय सदांच म्हणूं नज. टेंपोतले खेटींत खांद आनी तक
कित्याक ? खंयच्या मनशाचो खंयचो अवयव खंयच्या मनश
कित्याचेर आसत हाचो भरवंसो कोणाच्यान दिवं येता ? उप
दिवंची जाल्यार दोणांतल्या आमल्यांची, पाटल्यांतल्या न
बाळयांची बी आवतिकाय अशीच म्हणू येता. मुंबयतल्या ल
गाडयांचे, ऑफिस सुटल्या उपरांतचे द्वितीय श्रेणीचे डबे जायते
थंय ताठ मानेन अुबो रावन हेरांकडे झगडूंक तरी मेकळीक आ
हांगा टेंपोंत तेंय ना. झगडूंक मेळना कारण 'घाईला देखील
वेळ लागतोच' म्हणटात तशें झगडया झुजांकुय अेक वेळ क
नासल्यार जाता पुण थोडीशी तरी सुवात जाय. पुण टेंपोंत
'वासांत मिसळलेले वास' आनी नाकातोंडांत घामसाण
तुपसाणीचे, तेलसाणीचे आनी कसले कसले साबार 'साणीचे
घोळपाक तितली सुवात आसता. 'कुणाच्या खांद्यावर कुणाचे अ
ह्या न्यायान कोणाचे माणयेर दुसऱ्याच कोणे हाडिल्ल्या नुस्त्य
पोटली आसूं येता. कोणाच्या बुकाण्याक तिसऱ्याचे धोंपर धोंग

चौथ्याच्या बरगड्यांनी पांचव्याच कोणाचो तरी कोंपर ...सुं येता. हांगा सगले समपांवड्यार. खरेलो समाजवाद हो. ...e equal but some are more equal. अशें ...ऑर्वेल्लचे Animal Farm सांगता. ओणवे आशिल्ले ...quals जाल्यार जांकां बसूंक मेळ्ळां ते मात्शेंशे चड ... इतलोच फरक. दादाल्या बायलांनी, चले चलयांनी, ...नेण्टयांनी लज, भीड, भंय बी बाळगुपाचो प्रस्नुच अुप्रासना... ...ल्या गजालींक टेंपोत सुवातुच ना. तांतुतूच मर्दी कंडक्टर ...ांका बोल्तार 'चुक् चुक्' करून सुण्यामाजराक लेखून ... तसलो आवाज काडून खंयच्यातरी खांचींतल्यान पैशां-...हात फुडें करतलो. आतां आपले अवयव खंयचे हेंच सोद-...ंय नासता तेन्नां पैशांखातीर आपणाले हात आपल्याच ...खोमसाच्या बोल्सांत वचपाची खात्री कोणे दिवंची ?

...पोंतल्यान प्रवास करतल्यान देंवतकींर आपणालीं सगळीं ...तशीं तपासून घेवप गरजेचें. हालीं हालीं गोंयां स्पोंडिलाय-...य कितें म्हणटात तें मानेचे दुयेस चड लोकांक जाला असो ...रपोर्ट आसा. सगळे लोक मानेचो कॉलर पटो वापरिनात ...तें लोकांच्या लक्षांत येवंक ना. हें दुयेंस जावपाची कारणां ...ास हें वेगळें सांगूक जाय ? म्हजो एक मित्र आसा. ताका ...फुडाराचो हुस्को. ताजो सगलो हिशेब पिळग्या पिळग्यांनी ... ताच्या मत्तान टेंपोन तकली बागोवची पडिल्ल्यान गोंय-...ो अेकदोन पिळग्यो पांग्यो (कोणाचेतरी पागण या अर्थान) ...ी असो ताका हुस्को जाता.

...लोकांनी गच्च भरिल्ल्या टेंपोंत फकत प्रवाशांचीच गैरसोय ...अशें न्हय, ड्रायव्हराच्या केबिनांतूय तीच गत. अेकाच वेळार ...रा म्हाल्यांनी अेका मनशाचे केंस कापपाक घेवंचे तशें तरेन ... ड्रायव्हराचे कदेलीफाटल्यान अुबे आसतात. कांय जाण ...ोंवतणी मेळटा तशे मेळटा ते सुवातेर बशिल्लेय दिसतात. ... कुंभार मांडीवरी, चोखा जिवा बरोबरी, कबिराचा हात धरी, ...ाले ज्ञानेश्वर, मागे मुक्ताई सुंदर, अशो तरेचोसो देखावो.

...टेंपोच्या फाटल्यान सामायन दवरपाक म्हणून ल्हानशें बॉक्स .... थंय सामायन नासता. चड करून लोकूच अुबे आसतात. ...ा बशींनी बस थामोवपाक वा सोडपाक विजेचे बुतांव ...त पुण ते केन्नाच वाजनात. तांकां हात लायल्यार बेठो ...ुय शॉक बी येत म्हुण खंयचोच भोंवडेकार ताका हातलेगीत ...त. सरकारी कदंब बशींनी हेर कांय राज्यांतल्या बशीची ...करून दोन दारांपैकीं अेक कायम बंद केलां आनी दोरी ...फीर वाजपी अेक घांटशी आसता. पुण गोंयच्या बशींत ही ...ासल्यारूय ताका दोरीच नासता. अशा वेळार आमची ...पंज वस्त पिल्लुक हीच कंडक्टराक चड अुपयोगी पडपी वस्त. ... बशींनी. टेंपोक पिल्लुक बिल्लुक कांय लागना. तोंडात ... नासली तरी बहुतेक ड्रायव्हर कंडक्टरांचे जिबेर 'मार ...' हें पालुपद आसताच. टेंपोत 'राव रे, वच रे,' हीं आमचे ...चीं सिनालां आसतातूच. पुण तीं नासल्यार टेंपोच्या पत्र्याचेर भायल्यान 'टाम्' करून थापट मारून टेंपो आडावप वा सोडप हें शास्त्र गरजेचें.

चडश्या गांवांनी टेंपो घोळटात. तांतूतले चडशे 'घोळटांत' म्हणचेपरस ते चडकरून 'मोडटात' अशें म्हळचार जाता. सोमारा सकाळचे हे चड करून मोडिल्ले आसतात. 'काटयाच्या आणीवर वसले तीन गांव' ह्या भारूडांतलो कसो म्हजो गांव, पुण चडकरून 'दोन खोटे अेक चालेचिना' अशीच अवस्था खूब फावटी पळोवंक मेळटा.

टेंपोचे मेजक्याच अुतरांनी वर्णन करचे जाल्यार कशें करचे ? कोण ताका Tempo (rary) Incapacitators, bone breakers (हाडां मोडपी) म्हण्टात. हेर कांय mobile inconvenience अशें म्हुण वळखतात. थोडयांक ते धांवपी mini जालियनवाला बाग दिसतात. हीं जालीं अिंग्लिश कातरपी टुरिस्टानी दिल्ली कांय नांवां. अेकाच उतरान टेंपो प्रवासाचे वर्णन करचे जाल्यार 'घुस्मटमार,' 'कुचंबणां,' 'कोंडी' हातूंतले खंयचेंय अेक घेयात.

गोंयच्या टेंपोचो प्रयास चडसो रोकडो सोंपपी. म्हळ्याळूच 'टेंपो'रंरी आसता म्हणून माणसुकी, नाजाल्यार कितल्याशाच गोंय-कारांची पिराय अुणी करपाची वा तांका 'परमनंट' अपंग करपाचें बळगें ह्या प्रवासांत आसा.

बशींत आयकूंक येतात तशेच तरेचे संवाद तापोवणी, विनवणी, शीण, पिरंगण, तक्रारी आनी झगडीं टेंपोंनी आयकूंक मेळटात बशींत वा टेंपोत भितर सरचेपयलीं मनीस अेकेतरेन अुलयता. तोच मनीस भितर आयल्याउपरांत दुसरेतरेन अुलयता. 'कितें रे बाबा, हांचे भरचना केन्ना.' 'हाची पोटां सदांच गुण्यार,' 'आरे आनीक कित्याक घेता रे, 'पुरो आता,' 'आरे तेंकां आतां खंय बसयतात आमचे तकलेर,' 'हो टेंपो काय सर्कस रे.'

लोकांनी गच्च चिरपुट कसो भरिल्लो टेंपो म्हळयार अेक-चाराचें प्रतिक ! खतखत्यावरी तरा तरा नमुन्यांचे तें अेक धांवतें कोसुलूच म्हळयार जाता. जांकां मुळचीच विनोदबुद्धि आसता आनी खंयचेय परिस्थितींत जे ती शाबुत दवरतात तांकां गोंयचो टेंपो प्रवास म्हळयार अेक मजाच. जांच्या सदांच कपलार मिरयो आनी भोंवयां गांठी तांका हें अेक दिव्य. म्हज्या नशिबान जेन्ना जेन्ना हांव गर्देच्या टेंपोंतल्यान खंय वतां तेन्ना एक तरी असो फकाणेर मनीस म्हाका हे गर्देत भेट्टा. मर्दीच ह्या सगल्या फुगासावांत तो मागीर अेकाद्री गजाल, जोक वा खबर सांगता किंवा कोणाची फकाणां करता वा शेरो मारता तेन्ना सगलो शीण सरता आनी मजा येता.

कालचीच गजाल. लोटलेच्यान मडगांवा वचपाक हालोवन धोलोवन घट्ट भरिल्लो आंब्याचो कण्णो कसो अेक टेंपो आमकां घेवन वेता.

टेंपोंत बसपाक सुवात नाशिल्ल्यान अेकें दोन कॉलेजींत शिकपी भिरमुटचोय हेरा वांगडा ओणव्यो आशिल्ल्यो. अितल्यान रायच्या आंब्यार म्हणटात त्या स्टॉपार अेक जाणटेलो टेंपोंत

( पान २२ चेर )

## कथा

# जीण

— सौ. रजनी अ. भेंब्रे

तृप्ती मुंबय बँकेत शिर्विस करता. ताका बँकेची शिर्विस स्वताच्याच कर्तत्वाचेर मेयळ्या. तें एम्. कॉम्. फर्स्टक्लासांत पास जालें. ताजी वागणुक सभ्य आसली. आपली मर्यादा सांबाळुन चलपी बऱ्या चलणुकेची चली जाल्ल्यान, त्याच बँकेत शिर्विस करपी आनंदाच्या मनांत तें केन्नाच भल्लें. तो ताजेर मोग करूंक लागलो. जरी मनांतल्यान तृप्तीय आनंदाचेर मोग करतालें पुण ताणें आपुण जावन आनंदाक केन्नाच कळित केलें ना. कारण... कारण... व्हड कारण आसलें ताका.

तृप्ती जाणाच आसलें किं अेक ना अेक दिस आनंद ताका लग्नाचें विचारतलो, आपलो मोग परगटायतलो. जालेंय तशेंच.

चार दिसां पैलींच अेका हॉटेलांत गेल्या वेळार आनंदान ताका आपल्या मोगाविशी विचारलें आनी तृप्तीच्या मनांत आसल्यार रोखडेंच सांग. कारण आनंदाक सोयरीको येतात आनी ताजी आई-बाबा ताका लग्न करूंक सोत्तात.

'तृप्ती हांव तुजेर मोग करतां हें तुका खबर आसाच, पुण तुजो विचार म्हाका आयज मेरेन कळूं ना.'

'आनंद, हांवेय मनांतल्यान तुकाच म्हजो मनचो राजकुंवर थारायला. पुण– पुण–तुका हांव फटौंव ? कशें फटौंव ? कित्याक फटौंव.'

'तृप्ती, अशें किदें उलयता तूं ?'

'आनंद म्हाका तुका किदें जाप दिवंची तीच कयणा. म्हजे मन पिशांतरावरी जालां. तूं जर म्हाका पुराय वळखल्लो, आनंद, तर म्हाका केन्नाच मागणी घालचो नासलो.'

'तृप्ती किदें जालां तुका ? अशें किदें उलयता तूं ?'

'आनंद म्हाका चार दिस दी. हांव तुज्या मागणेचेर विचार करतां आनी तुका जाप दितां.'

'तृप्ती तुजो हयकारच आसूं जाय, ना जाल्यार– ना जाल्यार...'

'आनंद अशें उल्लौंक नाका रे.' तृप्तिचे दोळे भरून आयले.

आज आनंदाक जाप दिवूंकच जाय. चार दिसांची मुदत सोंपत आयल्या.

तृप्ती चित चित चित्तालें. चितुन ताजी तकली कामच करपाक तयार नासली. आनंदाक तोंड दाखोवचें पट्टा म्हणून ते सुटी घेवून घरा आसलें. आईच्या अेकुय प्रश्नाक तें जाप दिना आसलें. दोळे धांपले.

'आई येतली मगे तूं आमच्या शाळेंत ? आमचो
दिन आसा. म्हाका परी केल्या ढवळीकर बाईन. येतली मगे
तृप्ती आपल्या आवयक सांगतालें.

'हय हां, येतली.' जायून तृप्तीक म्हळें.

'अेकटी बी येवशीत. पापा आनी तूं दोगांयनीय येवूं जा

'हांव येतलें गो. पुण पापाक कामा आस्ता न्ही.'

'सगळ्यांच्या पापांक कामा नास्तात तर?' तृप्ती

'आस्तात, नास्तात कशी ?' जायू.

'मागीर तें कशे येतात ?' तृप्ती.

'बरें बाये हांव सांगता, तुज्या पापाक. सगळीं कामां
दवर आनी पालक दिनाक वचपाक वेळ काड.' जायुन तृ
समाधान करता खातीर म्हळें.

'Promise' तृप्तीन विचारले.

'हय गो Promise.'

'पळय हां, येना जाल्यार हांव तुमचेकडेन गट्टी फू का
प्रोग्राम लेगित करचें ना.'

'बरें बाये, आजच सांगुन दवरतां किं तुमचें काम
दवरात, ना जाल्यार तृप्ती राणी रागार जातली.'

'आई, पापा कसलें काम करता गे ?'

'पापाचो मोठ्ठो धंदो चलता.' जायुची कांचवेल्यावरी

'आई पापा सद्दां घरा कित्याक येना ?' तृप्ती.

'बाय शाण्या, चल– शाळेंत वचचेंलो वेळ जालो.' ज
बेगिबेगिन विशय बद्दलो. हालीं तृप्ती केन्ना–केन्नाय अशेंच
विचारतालें आनी जायुक भय दिस्तालो किं ताका किदें जाप दि

'सांग गे आई पापाचो कसलो मोठ्ठो धंदो ?'

'कारखानो आसा पापाचो.' जायु.

'आई म्हाका काका ना गे ?' पैर मिगे वृंदाचो
आयलो खंय गोयांतल्यान आनी ताणें ताका तरेतरेचीं खेळणी घे
खंय ?'

'तुका काका ना बाय– पुण दोन मामा आसात न्ही गो

'नंदू आनी चंदू मामा. आतां में म्हयन्यांत आपौवया तां

तृप्तीचे प्रश्न आयकुन जायूचो जीव चोर कसो जालो.
किदें करतलें ? आपल्या जीणेचो ताका विट येतालो. ताका समा
मान मर्यादा म्हण्टा ती ना. जायुच्या आवयन वंशपरंपरेचो
चलौवपाखातीर ताका धंद्याक घाल्लें. ताणें आवयक तरेकत
सांगून पळेलें किं आपुण लग्न जातां. पुण ताज्या आवयन देव
भंय घाला आनी ताका ह्या नरकाची वाट दाखैली. कितले अज
आसात अजुन लोक !

पुण अेक मात खरें. जरी ताका आवयन धंदधात घालें
अेकट्या मगनलालाकच तें आपलो घरकाराच्या सुवातेर मा
राविल्लें. मगनलाल मुंबयचे प्रख्यात हिऱ्यांचे व्यापारी आस
जायुच्या पायगुणान तांका व्हड यश आनी धंद्यांत भरभराट मेय

ची समजुत आसा. ताणी जायुक गिरगांवात चार कुडिंचो
वून दिला.
ातां ताजें चली व्हड जातालें आनी खुबदां नाका–नाका
प्रस्न विचारतालें.
तृप्ती सांगुन – सांगुन गेल्लें. आई–पापाची वाट पळेतां. चार
प्रोग्राम सुरू जातलो.
गळ्यांचे पालक आयले. आनी प्रोग्राम बरो कर म्हणुन
परबी दिवून गेले.
ुण तृप्ती – अेका कोनशाक उबे आशिल्लें आई–पापाची
ळेत–ताका परीचो धवो फुल्ल पांखां लाईल्लो ब्हिस्तीद
आनी ताजेर नक्षत्रां बसईल्लीं. तकलेर धवो फुल्ल चमक्यांचो
रूपेस्त तृप्ती ह्या भेसांत आनीकय सोबित दिस्तालें. ते
दिस्ता म्हणुनस ढवळीकरबाईन ताका परीचो पार्ट दिल्लो.
तृप्तीची मिनाक काळकुट दिसली. मिना ताजी खाशेली
आसली.
'तृप्ती तूं ओगी कित्याक गो ?' अशें मात मिनान विचारलां,
घुसमटून घुसमटुन रडूं लागलें.
ढवळीकर बाईन रडपाचें कारण विचारलें. तृप्तीन हुडहुकेत
कि आपले आई–पापा अजून लेगित प्रोग्रामाक येवूंना आनी
यल्या बगर तें माचयेर चडचेलेंच ना.
बाईन तरके तरेन समजावचेलो यत्न केलो. पुण भुरगेंमन
तयार जालें ना. अेकसारखें तृप्ती रडत आसलें. ढवळीकर
खबर आसलें कि जायु–तृप्तीची आई केन्नाच पालक दिनाक

प्रोग्रामाचो वेळ जायत आसलो. पुण निमणें तीका प्रिन्सि-
कडेन प्रकरण व्हरचें पडलें आनी शाळेची शिस्त मोडली
पालक येतकच तृप्तीक ख्यास्त दिवपाची थारातली. आई-
आयले ना म्हणुन तृप्ती माचयेर चडलेच ना–
वर्सावळी प्रमाण जायु तृप्तीक व्हरपाक तीळसानचें आयलें.
ऑफिसांतच आसले. प्रिन्सिपलान जायुक येवकार दिवुन
क सांगलें.
'आज तुज्या चलयेन आमच्या शाळेची शिस्त मोडली,
ां लज केली.'
'किदें केलें ताणे ?' जायुन विचारलें
'तृप्तीकच विचारल्यार चड बरें जातलें.' प्रिन्सिपॉल रागान
रतालो.
'आई, तुमी म्हजो प्रोगाम पळौंक कित्याक आयलीं ना ?
नाच केलोच ना.'
'शि ऽऽऽऽ अशें म्हणुन करतात ?'
'मागीर, तुमी फट कित्याक उलयलीं. आतां हांव केन्नाच
चेना तुमचेकडेन. आई, पापा खंय गे ?' रडकुरें जावुन
विचारतालें.
'अेकसारखें तें तुमची वाट पळेत आसलें. भुरग्यांक अशें
करूं फावना. तांचेकडेन केन्नाच फट उलौंक जायना.'
पलाचो राग अजून देवूं नासलो.



'सर, सर परिस्थितिच म्हाका तशें करूंक लायता.' जायू.
'तुमी कितें म्हण्टात तें हांव समजूंना. तुमी किदें सांगूक सोदतात ?'
'सर, तुमचें म्हजे विशी किदें मत आसा ?'
'तुमी एक सभ्य बायलमनीस. बऱ्या घराण्यांतली ?' प्रिन्सिपॉल.
'चुकलें तुमचें.' जायुन निर्शिवन म्हळें 'हय सामखें चुकलें. सर आयज बापाय सुवातेर राखून तुमच्या फुडें मन उकतें करता. सर, हांव एक धंदेवाली बायल.'
'शी ऽऽऽऽ सामखे फट हें. तुमकां पळेल्यार कोणूच मान-पाक ना.'
'सर म्हज्या आवयन म्हाका ह्या नरकांत घालें. ना जाल्यार देवाचें रागणें पट्टा खंय. पुण तुमी विश्वास दवरात ना जाल्यार फट मानात. पुण खरें, तेंच तृप्तीच्या माथ्यार हात दवरून सांगता. हांवे मगनलालाकच म्हजो घरकार मानला.'
'मगनलाल मोठ्ठे हिऱ्याचे व्यापारी. आठ दिसांनी अेकदां म्हज्या घरा येतात. तृप्ती पापाखातीर आंवडेता. ताजो गुन्यांवच ना. भुरगें मन. भोंवतणचो संसार तें पळेता. ताजें इष्टिणी वांगडा भोंवप जाता. आनी आयज बसून जी गजाल– म्हजी जीण– ताका लिपयल्या तो सांगपाचो वेळ आयला कोंब्याक धापून घालो म्हणून दिस जावचो रावना. सर, सर तुमीच सांगात. खैंच्या तोंडान ताका हांव सांगू म्हज्या जीणेची व्यथा.
'म्हजी जीण करपून गेली. पुण कांयच गुन्यांव केलो नाशिल्या म्हज्या चलयेक तरी समाजांत उजळ माथ्यान वावरूंक मेळचे म्हण हांव आयज मेरेन धडपडलां. तृप्तीक सदांच मोठ्ठे शाळेंतल्यान शिकौवचेली यत्न केला. ताका म्हज्या विशीं हांवे सदांच काळखांत दवरलां. ताजे विशीं हांव खुब आस्त बाळगुन आसा. ताका हांव व्हड करतलें, दोतोर करतलें आनी–आनी म्हणून सर ताणें जी चुक केली ताजी हांव माफी मांगतां ' अशें म्हणुन जायु प्रिन्सिपलाच्या पांयार पडलें. प्रिन्सिपलान ताका बेगीबेगी वैर काडलें.

जायु रडालें. प्रिन्सिपल जायुच्या गजालीन कळवळलो. कडक शिस्तीच्या चंदगडकरान तृप्तीक माफ केलें. जायुन तृप्तीक माफी मागपाक सांगली. अवघे धा वर्सांचें तृप्ती बुद्वंत आनी जायुवरी चाणाक्ष आसलें.

आई रडाना पयल्यादांच पळईल्ले. ताज्या तकलेंत, सगळे जरी न्ही तरी थोडेंशे गेल्लें. ताका खुब वायट दिसलें. आपणें आईक रडयली.

आवयक घट्ट वेग मारून ताणे आवयची पयली माफी मागली.
'आई आनी हांव केन्नाच अशें करचें ना. तूं सांगता तशें करतलें. आई चुक जाली म्हजी. आतां हांव केन्नाच पापाची याद करचें करचें नागे.'

# पावस

— मॅन्युअल फेर्नांडीस

मळब सकाळफूडेंच काळें किट्ट जालां, सुर्या केन्ना कुपानी न्हिदलो तेंच कयळे ना. आता पावस पडटलो. टिप्-टिप् करून निर्मळ अुदक धर्तरेर देवून तिका न्हाणायतले .. दोंगुल्यावेल्यान अेकाद्रचा नखरेकान्न चलयेसारखे अुदक हालत मोडत सकल देंवतलें, राजकुंवरीच्या नाकातली नत् चमकता तशी बिजली चमकतली... वारो सुद्धा जमिनिवेली धूल मळबात व्हरून दवरतलो. अुपरांत पायांच्यो व्हाणो काढून अुदकांत नाचनशें दिसतलें... सगल्याक अुदक-अुदक जातले आनी भुरगी कागदाच्यो होडी करून अुदकांत सोडटली...

असल्या वेळार कवीच्या मनात वासून कितल्योश्योच भावना निर्माण जातात. मिस् सितिया ह्या वेळार भायर सरपाची तयारी करता मुखामळ तिचें आज आठवेच तरेच्या खोश्येन भरलां. गुलाबी ओंठावेल्यान अमृताची झर व्हावताशी दिसता... मनूय तिचे आज सगलेच खोश्येन भरलां. आरश्यात पळयत आनी अेक फावट पावडराचो हात तिणे आपल्या मुखामळार ओडलो. गुलाबी ओंटाक लिपिस्टीक लायली, साडयेच्यो निरयो सारख्यो ओडून घेतलो आनी केंसार अेक फावट नदर फिराअून मिस सितिया भायर सरलें.

' कितलो थंडगार वारो हो ! ' मिस सितियाच्या तोंडातल्यान आपसकून अुतरा भायर सरली. पातळ साडयेचो पालव वाऱ्यान अुडूंक लागलो आनी थंडगार वाऱ्याचो स्पर्श तिच्या मधूर कुडीक जावंक लागलो... त्याचबरोबर तिचें मनूय विचाराच्या खोल समदिरात बुडूंक लागले... सायमन... कोंगऱ्या केसांचो, पोंग घालून चलपी मजबूत तरनाटो. ताणे अुलो मारलो आनी मिस सितियान हळूच वळून ताका पळयलें. पयली लजले ते मात्सें... सांगाताक आशिल्या वाऱ्यान खांदावेलो साडयेचो पालव अुबयलो, पिसोळयावरी तो अुडूंक लागलो, आनी अुपरांत मनूय.

मनान भूतकाळाची आनीकूय खर वाट धरली... मात्से आनीक वळख जाली.

' तू म्हाका आवडले... ' आनी

' तू म्हाका आवडलो'–

जाले कशें किते देव जाणा.– हांव 'ताका आवडले म्हण ताणे म्हाका अुलो मारलो पुण हांव कित्याक थांबले.' मिस् सितिया नियाळता. थांबल्या अुपरांत जाली ती फक्त मैत्री ! आनी मागीर लागशिल्ल्या बांगितू त्या काळोखात... कांयच अुलयनास्तना अेकामेकाक तेंकून बसप... ताणे जमिनिवेले तण हुमटावप आनी हांवे बारीक गुणें पैस शेंवटीवप, कित्याक देव जाणा– आनी अुपरांत दोगायनी अेकामेकाचो हातीन निरोप घेवून घरा वचप... मेळपाचे कारण दोगूय नेणात. आजूनूय दोगांकुय खबर ना. पुण मनात अेकामेकाक मेळपाची ओड मात आजून आसा. गुलाबाक सोबित चलयेच्या लांब केंसाची लागता तशी...

दीस सरले, वरसां धावली. दोगांयमधली थंडसाण का जाली. दोगांयचे अेकामेकाक वळखवपाचे दीस लागी आ दोगांयचे अेकामेकालागी अुलवंक ओंठ हालूक लागले. सांग खूप आशिल्लें. पुण दोगांयकय वेळ पावनाशिल्लो. तांच्या आं सुगंधी वास सुटूक लागलो. दोगांकूय आवडटा तसलो ! पुण सु ताचो परमळ सर्वकाळाखातीर नाशिल्लो... आनी घडपाचे घडले.

अेक दीस पयल्या पावसाच्या वेळा, रातच्या काळखात ब साकून घरा गडगडान मळब हाल्ले आनी दोगांयची तोंडा जाली. आनी त्या पावसात तोंडातले शब्द कुडीनी अुलयल काळखात पासून लख्ख अुजवाड फांकारलो... ओंठातल्यान अ झर व्हांवूक लागली. गुपीतपण लिपोवंक दोळे तरे-तरेच्या रं भरले. खोश्येचे, लजेचे आनी ससनिकायेचे सुद्धा ! मळबा सप्तरंगी इंद्रधनुश्य दोगांयच्या गालांचेर परजल्लो... पावसा दडगानी भिजताना दोगांयच्या मनात खुश्यालकायेची अुब मेळ म्हण दोगांय खुशी आशिल्ली. स्पर्शाच्यो यादी मात मनात गां बांदून अुरल्यो. जादुगाराच्या तोपीतल्यान तरे तरेच्यो घ अश्योच घडत रावल्यो. मैत्री आनिकूय लागी आयली.

आनी शेवटाक हाताक अुरिल्ले तें फूल, पाकळचो नाशि ताचो परमळ पयस-पयस फांकारिल्लो. आनी तोवूय मोगा लोकानी घेतिल्लो. पुण ताणी फूल वळखू ना. फूलाच्या प्रे पडटात तसले भोंवरेय ते नाशिल्ले तातूत आशील्लो तो व्यवहार ! अेकटयान दिवप दुसऱ्यान घेवप !! ताच्या ब मेळ्ळो मोबदलो म्हळचार प्रेम ! ह्या व्यवहारातल्या मोतियाच्या गूण्याचे मोल समजलें. जात, धर्म, गिरेस्तकाय, गरं काय, काळें-गोरें, वायट-बरे, सगले गुण ह्याच व्यवहारातल कसाक लावून पारखिले... अेका काळार अुलोवंक विसरिल्ले आता विख ओंकपाक लागिल्ले, अुतरांच्या तरसादीक धार आयि आनी अुपरांत व्हड झुज ! संवसाराच्या जागतिक झुजाव ह्या झुजांत बायलांच्यो गाळचो आनी दादल्यांचे हल्कटपण स आयले. हाका लागून केन्ना दोळयातल्यान दुकाचो पावस जाल केन्ना नाक तांबडें ! अुतरांक तरसाअधिक धार आयली. त इश्टागतीचे नातें तोडले.

जाय तें मेयळे आनी सुख संपले. स्पर्शाक सुटका दिली म हें अशें घडले. ओंठ ओंठाक तेकिल्यान सगली ओड, अुमेद ना जा पूण ओड अेकूच अुरली ती पयल्या पावसाची... पयलो पावस गुलमोहर भिजवपी, मेल्ल्या झाडांक जिवो करपी आनी म अुमेद हाडपी .. आजूनूय मिस् सितियाच्या मनात ह्यो तर यादी पावसासारख्यो येतात. दडगावरी तिचें मन भिजयतात. अ ओल्या साडयेसारख्यो तिच्या कुडीक घट्ट चिकटून रावतात. पावसात वचपाकूत्र जाय .. मिस सितिया चिता, फक्त मनाचे त समाधान करपा खातीर... मळब काळे किट्ट जाल्ले. आता दडका पावस पडूक लागलो. मिस सितियाच्या जिवितात पडील्लो तसो.

ांकी खेळ

# खामसूत्री बावले खंय खंय पावले

— दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार

**देखाव पयलो**

( माचयेर खामसूत्री बावले अर्थात अेक तरनाटो, मानाय, पारी, मवाली, पुलीस, येंप्रेगाद, फुडारी, तरनाटी चली, म्हातारी, ता तेशिवाय हेर आनीक बावले वेगळेवेगळे शैलीन अुबे. अेका नशाक अेक स्थीर पूतळो. पडदो वयर वतना सगळचो बावल्यो सतात त्यां दिश्टी पडता )

नाटो : अे, आज आमची मज्जा. आज आमकां नाचोवपी जोशी ना. तो खंयतरी गेला. ते म्हणसर आमी भरपूर खेळूया.

यजाण : पूण कसलो खेळ खेळपाचो ?

री : आमी मनशाचो खेळ खेळूया.

ळे : ह्य्वय. मनशाचो खेळ.

( सगळे खोशेन नाचतात. नाचतां नाचतां म्हणतात )

आमी खामसूत्री, खामसूत्री बाबा खामसूत्री,
मनशाचो खेळ आमी खेळतलीं, खेळतलीं.
मनीस आमकां बेगीन कर,
कायमचे नाका पूण जोशी येसर,
मारूतीबाबा शेपडी तूजी नाका,
मनशाचे तोंड दि माकडाचे नाका.
तोंडाक भास दी, बुद्धीची ताक दी,
हाताक बोटां दी, पायांक चाल दी.
मनीसपण बाबा मनीसपण दी.

( नाचपाक रंग भरता, तसो येदोवेळ कोनशाक अुबो आशिल्लो मनशाचो पुतळो हासूंक लागता. सगळे भियेतात. अेकमेकांक 'कोण हांसलो, कोण हांसलो ?' अशें विचारतात' मागीर तरनाटो पुतळ्याक हालयता )

तरनाटो : हो तर पाशाणी. हो कसो हासतोलो ? हाका म्हणून हासूं येता ?

मानाय : हो पाशाणी मनीस. हाका जर हासूं येता, जाल्यार अुलोंकय येवंक जाय.

पसरकार : हाका जर अुलोवंक येता जाल्यार हालूंकय येवंक जाय.

मवाली : आनी हालूंक येतां जाल्यार धावूंकय येवंक जाय.

पुलीस : (अेकदम) धावूंक येता, जाल्यार नक्की हो चोरच आसूंक जाय.

येंप्रेगाद : हो चोर, जाल्यार जातीवंत मनीसच आसूंक जाय.

( पुतळो परत हासता )

फुडारी : हो मनीस जाल्यार होच हासता आसूंक जाय.

चली : हासता–हासता म्हजे मोगांत पडलासो दिसता. (पुतळो सोडून बाकीचे हासतात. ते थांबले कि पूतळो हासता)

तरनाटो : तूं कित्या हासता ?

मानाय : कोणा हासता ?

पुतळो : काय बरे बावल्यांचे जलमाक आयल्यात तूमी. पुण कांय खीणाखातीर जायना, तुमी मनीस जालें. मनीस जावपांची तुमची ओड पळोवन हासूं आयलें.

मानाय : बावल्यांचे जलमाक आयल्यात खरें पुण शेंडी मनशाचे हातांत. जोशी नाचयता तशे आमी नाचपाचें. हो कसलो जल्म कर्माचो ?

पसरकार : आमकां आमचें अशें कांयच ना. रूपय ना आनी नांवय ना.

मवाली : बरोबर. आज हांव राजा जाल्यार फाल्यां शिपाय.

पुलीस : आज इन्स्पेक्टर जाल्यार फाल्यां कंडक्टर.

येंप्रेगाद : अेक दीस गळ्यांत टाय जाल्यार, दुसरे दिसा असोच फासाक लाय.

फुडारी : आज फुडारी जाल्यार फाल्यां घरगडी.

चली : आज ठमी जाल्यार फाल्यां मामी.

म्हातारी : आज म्हातारी जाल्यार फाल्या कोतारी.

पुतळो : किदेंय जरी जालें तरी तुमी जलमतात बावल्यो म्हणून आनी सोंपतात बावल्यो म्हणून. मनशाचे तशे ना. तो जलमता मनीस म्हणून आनी सोंपता तेन्ना सुर्वेचो मनीस नासता. तो चड करून गुंड जाता, पशू जाता, राकेस जाता आनी स्वतः-कच फटयत सोंपता.

तरनाटो : सोंपतना कसोय सोपना. पुण जगतना आपल्याक जाय तसो जगता. सोपपाचें कोणें पळयलां.

पूतळो : तूमकां तशें सांगलें म्हणून सहज रीतीन पटचेना. म्हाका अेका खीणाक लेगीत मनीस म्हणून जगपाचें ना. देखून हांव पूतळो जालां. मनशाची जीण हांवें लागीच्यान पळेल्या कारण हांवें ती भोगल्या. मनशाचे जीणेचो खेळ म्हळचार अुज्यांत जीतो जळपाचो खेळ, तेपेक्षा तूमी तूमचोच बावल्यांचो सदचोच खेळ खेळात, 'झाडांचो खेळ खेळात' नाजाल्यार दोंगर, फातर, झऱ्यांचो खेळ खेळात.

सगळे : ना. आमी मनशाचोच खेळ खेळतले. कारण आता आमी मनीस जाल्यात.

पूतळो : हरकत ना. हांव तूमकां मनशाचे जीणेच्यो काणयो सांगता. तशे तूमी खेळात. हो तुमचो पंच (अेकट्याक पंच म्हणून कूशीक काडता ) आमी हांगा बसून तूमचो खेळ पळेतात. सांगात आसा मू तयार ?

सगळे : (हात वयर करून) हय !!

(सगळे परत नाचूंक लागतात. नाचता नाचतां म्हणतात)

आमी मनीस गा हाडांचे, मासांचे
आमी मनीस गा जातीचे, कातीचे
आमी मनीस गा रंगाचे, भेसांचे
आमी मनीस गा खऱ्यांचे, खोटयांचे

(काळोख)

**देखाव दूसरो**

– (अुजवाड जाता तेन्ना मानाय अेक कुण्यान भरिल्लो साक फाटीर घेवंक धडपडता)

मानाय : (घाम सारीत) हांव बसलो म्हणून दिस थोडोच बसतोलो? पोटाखातीर करचें पडता. हो साक व्हरून ते गुदावांत घालूंक जाय. (साक फाटीर घेवपाचो यत्न करता. फाटल्यांतल्यान मॉब घोशणा दित वतात. 'आमकां काम दियात' 'बेकारी पयस करात.' तांतूतल्यान तरनाटो भायर सरून मानाया म्हऱ्यांत येता.)

तरनाटो : आगा, तूं दिसभर हेंच काम करता ? तुका पुरो जायना?

मानाय : जाता. पुण कोणाक सांगू ? अर्धे काम तूं करता ?

तरनाटो : असलें काम हांवें करप ? हांव शिकिल्लो सवरील्लो तरनाटो मगा.

मानाय : चड शिकला ? जितलो चड शिकता तितलो हो साक चड जड लागता. हांव कांयच शिकोना. म्हाका जड लागना.

तरनाटो : म्हजे शिक्षणाच्यो बकच्छायो मारता ?

मॉब : आमचे शिक्षणाच्यो बकच्छायो ? कोण मारता ? कोण मारता ? ऽऽऽऽ

मानाय : छें ऽऽ! शिक्षणाच्यो ! आनी बकच्छायो ! आनी हांव मारतां ? आनी तुज्यो ? बकच्छायो मारूंक हांव किदें शिकलां ? (विडी पेटयता ) हो साक ते गुदावांत व्हरून घालूंक जाय. मात्सो हात घालता ? फाटीर घेतां.

( मानाय साक फाटीर घेवंक बसता. पूण तरनाट
घालीना. )

मानाय : (तरनाट्याक) हात घालीना ?

तरनाटो : घालतां. पुण कितले पयशे दितलो ?

मानाय : साकाक हात घालपाक पयशे ? साकाक हात
म्हणजे दोतोरान पोटाक हात लावप काय किदें ? पयशे
पयशे. घालूंकच नाका. कोणय हेवटेन तेवटेन व
सांगल्यार घालतोलो.

तरनाटो : अुबारतल्याक पयशे दिवचोना ? तूं हो साक गु
व्हरून घालपाक पयशे घेवचोना ?

मानाय : ना.

तरनाटो : म्हणजे तूं फुकटच काम करता ?

मानाय : ना. असले दोन साक व्होरोन घालतोलो तेन्ना दोन
घेतलों.

तरनाटो : म्हणजें रेड्या, अेक साक घालपाक अेक रूपयो
जालें ना.

मानाय : ना पाड्या. अेक साक व्हरून घाल्यार पात्रांव पैशे

तरनाटो : किद्या दिना ?

मानाय : मोडचो रुपयो खंय गावता ?

तरनाटो : मागीर किदें करतोलो ? हांगा तर हो अेकच साक

मानाय : हो साक दोनदां व्हरून गुदावांत अुडयतोलों.

तरनाटो : पिसो !

मानाय : तूं पिसो.

तरनाटो : अशें करून वेळ फुकट किद्या वगडायता ?

मानाय : त्यो घासघीसी करपाक तूं वेळ कित्या पाड घालता ?

तरनाटो : बरें दोनय वेळा हांव साक अुबारतां. मागीर
कितले दितलो ?

मानाय : वीस पयशे.

तरनाटो : कितें ? वीसच पयशे !

मानाय : तेय तूं बेकारथवय म्हणून. मालक्रियाद ! अुबार
(तरनाटो साक अुबारता. साक फाटीर घेतगीर मानाय
धरील्ली विडी तरनाट्याचे हातांत दिता) धर ही
आनी म्हजावांगडा गुदावांमेरेन यो. गुदावांत साक अुडय
म्हाजी विडी दि आनी तुगेले वीस पयशां विडयो तू
मोडचे पैशे ना. चल.

पंच : (तांचेफुड्यात येवन) राव–राव. हांगाच तूमी च
मनशाचो खेळ खेळतात. पुण मनीसपण अजीबात
तूमकां. (तरनाट्याक) ताजे तोंडातली विडी तूं शिक
सवरील्लो तरनाटो हातांत धरता ?

तरनाटो : हांव धरीना. म्हजी ही बेकारी म्हाका धरूंक लायत

मॉब : आमची बेकारी आमकां धरूंक लायता ...आमची बेका

पंच : (मानायाक) अीतलो धडधाकट मानाय तूं, हो कुण

ाक फाटीर अुबारपाक तूका दुसऱ्याची गरज जाय ? काय
ळकाडूपणा करता ?
: म्हाका कोणाचीच गरज ना. पूण म्हाजी सवंय म्हाका
ोडीना.
ो ऽऽ ! तूजी संवय आनी ताजी बेकारी.
मनशाची जीण म्हळचार फकत लाचारी.
ेकारी, बेकारी मनशाची जीण म्हळचार लाचारीं. (म्हणीत-
ता)

काळोख

ीसरो –

(अुजवाड जाता तेन्ना अेका बसस्टॉपाचेर अेक मवाली अुबो.
तरनाटो येता )

ो : पात्रांव, हांवे खूब फावटीं तूका पळेला. पुण बरी वळख
ना.

: म्हाका वळखना ? शार जांव, गांव जांव, नाक्यानाक्यानी
भोवतां हांव. पाकीट जांव, तीजोरी जांव, सगळ्यांचो राजा
हांव.

ो : तुमचे तोंडावेल्यान तूमी राजकूंवर कशेच दिसता. म्हजें
अेक काम करशात ?

: कसलें काम ?

ो : हांव फस्टक्लास ग्रॅज्यूअेट.

: तूं फस्टक्लास ग्रॅज्यूअेट ? आवयच्यान ?

टो : आवयच्यान हांव ग्रॅज्युअेट. पुण देवाच्यान हांव बेकार.
म्हाका खंयीय नोकरी दिवशी जाल्यार भोव जातले अुपकार.

: नोकरी–नोकरी–नोकरी. शाण्यासुरत्या शिकिल्ल्या फर्स्ट-
क्लास ग्रॅज्युअेट बेकार तरनाट्याक नोकरी करून मेळता
किदें ? म्हयनो जातगीर तितलोच कोको तितलेंच मेमें.

टो : पुण राजा, कसलोय धंदो करतोलो जाल्यार जाय भांड-
वल आनी जागो. तेशिवाय जायना धंदो अुबो.

ी : सगळेच धंद्याक भांडवल नाका. बिनभांडवली धंदे जाय ते
आसात. आतां म्हजोच धंदो पळय. भांडवल नाका. जागोय
नाका. असो दोनय हात कंबरेर दवरून हे बसस्टॉपाचेर जांव
खंयचेय पब्लीक जाग्याचेर अुबो रावपाचो. नदर सारकी
हेवटेन तेवटेन भोंवडावपाची. गिऱ्हायक नदरेक पडलें रे पडलें
तेबरोबर पारखूपाचें की, हें गिऱ्हायकावांगडा कशें
अुलोवपाचें ?

(मानाय हातांत अेक पिशवी घट्ट धरून येता)

य : बाप्पा, आतां बस आहा ?

ी : असो रस्त्यार उबो राव नाका. असो कडेक यो. कोणय
खंयच्यान धक्को दित म्हूणून सांगू नजो. असो यो.

य : (ताजे फुडच्यांत येवन बाकार बसता) आतां वळवय वसपा
बस ?

ी : अ.सा. तूं वळवयचो ?

य : हय.

मवाली : राव. येतली बस आतां. तूं हांगा खंय आयिल्लो तर ?

मानाय : हांव बँकेत येयलेलो. कोणाले अेकट्याचे काम आसलें.
काम जातामर दनपार जाली. आमचे गरीबांची कामा केन्ना
बेगीन जाता ?

मवाली : हांवय बँकेतच आसलो. अुदळसर हांगा येवन बशीक रावता
पुण अजून बस ना. मोटारसायकल करून वतलों आसलों. पुण
बोल्सांत आसा धा हजार रुपये. ते घेवन अेकटो मोटारसाय-
कलीन वचपा आयचे काळांत भीरांत दिसता. कारण आज
कोणा निर्वाळो कोणाच्यान दिव येता.

मानाय : आतां म्हाजेंच पळे. तेवटेन दोंगरावटेन वचत जाल्यार
हांव वळवय पावता. पुण पैशे आसात न्हू ! कोण कोणाची
कशी पाळत धरून रावता म्हूण कळना.

(बशीचो आवाज)

मवाली : बस येताशी दिसता. (दोगय बशीखातीर दूसरेवटेन धांव-
तात.)

तरनाटो : हो कसलो धंदो. ताजेकडेन अुलय-अुलय अुलयलो. बशींत
बसून गेलो. असले धंद्यानी पोटां भरता. तेपेक्षा मानायालो
वीस पयशां धंदोच बरो.

मवाली : ( मानायाची पिशवी तरनाट्याचे तोंडामुखार झेलयत)
मानायाचो विस पैशां धंदो बरो, काय म्हजो चारशे वीस
पयशां धंदो बरो ?

तरनाटो : ही पिशवी ते मानायाची. तुजेकडेन कशी पावली ?

मवाली : धंदो ! पाकीट जांव, तिजोरी जांव, पिशवी जांव, सग-
ळ्यांचो राजा हांव. म्हजो धंदो, म्हणजे जाय तकली आनी
हातचलाखी. ( मवाली हासता. अेके चलयेचेर नदर
पडता तसो वग्गी धंद्याचे पोझीन अुबो रावता. चली पर्स
धोलयत धोलयत येता.)

चली : अेक्स्क्यूज मी !

मवाली : येस् ऽऽ

चली : पणजेची बस गेली ?

मवाली : अजून अेकय बस वचूना. हांवय पणजेच वचूक अुदळसर
रावतां.

चली : खूब गरम जाता. सोसूं नज.

मवाली : हय. अंदू पावसय खूब कमी पडलो.

( चली पर्स अुघडून लिपस्टीक, हारशी घेवन ओठ रंगोवक
रंगता. पर्स बाकार. मवाली हळूच तांतूतले पैशे, काकणां
आनी लेस काडून आपले बोल्सांत घालता आनी वग्गी
रावता. चलीं सामान पर्सीत दवरपाक पर्स काडता आनी
किळांच मारता.)

मवाली : किदें जालें ?

चली : म्हजे पयशे ?

मवाली : खंयचे पयशे बाय ?

चली : म्हजे पर्सीतले. आत्तां आशिल्लें ही लीपस्टीक काडल्या तेन्ना

सुद्दां आसले ते शिवाय म्हजी काकणाय लेसाक बांधून आशिल्ली.

मवाली : आगो, अशें आबूज जांव नाका. सारखी याद कर.

चली : आतां आशिल्ले. हांवे आत्तां पर्स अुघडल्या तेन्ना सुद्धा आशिल्ले.

मवाली : आगो, बेठेच रडूं नाका. तुका बशीक जाय जाल्यार हांव दितां पयशे. हांगा कोण येंव ना वचूं ना. आनी ना कशे जातले ? बेठींच पिशेपणा करूं नाका. चल तुजेबरोबर हांव जाल्यार येतां. घराकडेन वचून पळोवया.

तरनाटो : (आपलेच भितर) तरणे तरणे रगताचो, मदनाचो पुतळो हांव, न्याय जांव, अन्याय जांव सगळ्यांक पयलीं म्हजी धांव. (चलये म्हन्यांत येता) जाणा, तुजे पयशे हाणे काडल्यात. हांवें पळेल्या. हांव हे थंय अुबो आशिल्लों. तुवें पर्स बाकार दवरला आनी तू ओठ रंगोवपाक रंगलें. तितल्यां हाणे सादलें.

चली : म्हाकाय तसोच संशय आशिल्लो. नाजाल्यार कोण काडतोलो? (मवाल्याक) बरेभशेन दि, नाजाल्यार जोत्या व्हाणानी मारतलें.

मवाली : किदें ? हांवे काडल्या ? सरळ सरळ म्हजेसारखेले प्रतिश्टीत मनशाचेर आळ घालतात. दोगांकय काडून सोमतींच पोलीसांचे तांवडीत दितलों.

तरनाटो : ताजे पयशे तुवेंच काडल्यात.

मवाली : म्हाका दिसता खंयचीय वाटेर तुवेंच ताजे पैशे लांबयल्यात आनी आतां सरळ म्हजेर घालून साव जावंक सोदता. दिसता पळय मवाली, गुंड कसो. बाय, तुजे पैशे हाणेच काडल्यात.

चली : (तरनाट्याक) खरें सांग, म्हजे पैशे कोणे काडल्या ? हलकट मवाल्या, चोरा ... (पायांतली व्हाण हातांत घेता.)

मवाली : (तरनाट्याफाटल्यान वता) बाय मार तूं. तुजेसारखेले चलयेन असल्यांक बुद्द शिकोवंकच जाय. मार तूं. हांव पळयतां कसो वता तो हांगसल्ल्यान. (तरनाट्याक घट धरता. चली ताका मारता. ही संद सादून मवाली आपले बोल्सांतलो लेस तरनाट्याचे बोल्सांत ताका नकळत कोंबता.)

तरनाटो : बाय, राव. म्हाका मारूं नाका.. म्हजें आयक... पावता ताकाच मारता. खरेंच हांवे पैशे काडू न... काडील्ले जाल्यार पळून वचपा सोडून हांगा मरप... नासलो. विचार कर सारखो. तुवें सुद्धां पर्स अु... आशिल्ले ते पळेल्यात आनी हांव केन्ना कसो काडतो...

मवाली : मार तूं, मार. हे अशेच अुलोवन पसार जातात.

तरनाटो : बाय, तो पळे पुलीस. आपय ताका जांव दी ...

चली : पुलीस, पुलीस हांगा यो बेगीन. बेगीन यो. म्हजे पै... ल्यात. बेगीन यो.

पुलीस : (धावत येता) किदें जालां ?

चली : म्हजे आतां हांगा पैशे, भांगराची काकणां हे पर्शीत... जाल्यांत. हो अेकटोच हांगा आशिल्लो.

पुलीस : राव-राव. सगळी रडकथा नाका आनी पंधरा ... म्हाजी ड्यूटी सोंपतली. मागीर हांव वयतलो.

चली : म्हाका हाजोच (मवाल्याचो) संशय येता.

पुलीस : (मवाल्याक) किदें रे ? तुवें हाजे पर्शितले पैशे ... काय ना ?

मवाली : ना सरकार. खरेंच हांवे चोरूना.

चली : ताजी बोल्सां तपासून पळेयात.

पुलीस : खरें सांग. चोरूना जाल्यार किद्या चोरूना आनी ... जाल्यार किद्या चोरलां ?

मवाली : खरेंच तर तुज्यान !

पुलीस : फट अुलयल्यार भीतर अुडयतोलो.

मवाली : आतां कशें सांगू हांव ?

पुलीस : तुका पकडलेशिवाय तूं सारको वदचोना, चल धां... तुका धरून लडे दिताच हांव.

(मवाली, ताजेफाटल्यान पुलीस, तरनाटो आनी चली... काळोख, अुजवाड जाता तेन्ना फुडें पुलीस आनी ... मवाली धावता असो देखाव)

मवाली : सरकार-सरकार हांव तुजे फाटल्यान आनी ... सामकारऽ ऽ ऽ

पुलीस : (धावतनाच) आरे, तूं कसो फाटल्यान अुरलो रे...




❋ कोंकणी भाशेक उजळ फुडार आंवडेतात ❋

# भोलानाथ सॉ मिल्स

निरंकाल रोड,

**फोंडें-गोंय**

▣ फोन : २९१ (घर)
१५९ (ऑफीस)

तूं म्हजे फुडें धांवलो आनी हांव फाटीं अुरलोंऽ ऽ ऽ
(लक्षांत येवन तसोच फाटल्यान येता आनी थांबता) खूब
यान धांवलो. (खर्शेता) हांगा कोण अेक ना. बरें जालें.)
यज कितली जोड जाली ?
: हे पळय, हे पांच हजार अेकटचाले. हे ते बायचे पैशे आनी
कांकणा घे. अेक लेस आसलो तो ते तरनाटचाचे बोल्सांत
ळूच घालो. ताका खबरच ना.
पूलीस सगळें आपले बोल्सांत घालता)
हीं दोगांय आमचे फाटल्यान धांवत येतालीं तीं खंय
वलीं ?
: येतली. हे पळय, तांतूतलो अर्धो वांटो म्हाका दी आनी
रील्ल्यातले धा परसेंट तुका दवरून बाकीचे वयर पावय.
(हासता) भियेंव नाका. आमी आसाच फाटल्यान. (पयस
ळोवन, पड–पड बेगीन. हांव तूका मारील्लेबशेन करतां.
पळय आयलींच तीं. (मवाली पडता. ती दोगांय खर्शेत
तात)
(ताका मारता) सांग, चोरलां काय ना ? दूसऱ्याचे
रपाक लज दिसना ? दिसाढवळचा हात मारतात. मत
मचो भय ना ? खंय दवरलां ते सांग, नाजाल्यार असोच
हरून भितर अुडयता. सांग ऽऽ. (मवाली वळवळता)
अजून मेळूना ? अजून सांगना आपणे चोरला म्हणून.
: अशे सहज सांगतात ते. फुकट आमकां त्रास. तुमच्यो पर्शी
मच्यानी सांबाळपाक जायना जाल्यार किंवा कपळा घेता
यो ?
रागार जांव नाका. पुण कशेंय करून सोडुन दियात,
: हे, बोल्सां दाखय. अुठ. सगळे सारखें दाखय.
(ताजो बोल्सां तपासपाचे नाटक करता)
: सरकार, म्हाका बेठोच मारलो. हांव सादो मनीस. पणजे
चपा रावील्लो आनी फुकट मार खालो.
: तुजें किदें किदें ना जालां ?
म्हजे पैशे आनी चार काकणा.
: आतां हाका तपासात. हाणेंच काडल्यात हांव सांगता पुण
हाजे बोल्सांत आतां कशे मेळतले. हाणे वाटेर खंयीय अुड-
वल्या आसतले. मागीर व्हरतलो.
: घेयात तपासात म्हाका. नीर्दोश मनशाक कसलो भंय.
घेयात, तपासात ( पोलीस ताका तपासता. ताजे बोल्सांतलो
चलयेचो लेस काडता.)
हो म्हजो लेस. हाकाच बांदील्लीं हांवे काकणा.
: तुजो लेस आनी हाजे बोल्सांत. मागीर होच चोर आसूंक
जाय.
: म्हजे बोल्सांत लेस कसो आयलो ? म्हाका कांयच खबर
ना.
: (शर्टाक धरून) कांयच खबर ना. आतां काडता तुजो
गुणो. मागीर सगळें आपोआप खबर जातलें.

मवाली : अुदळसर हांव हेंच सांगता. पुण चोराक सोडून संन्याशाक
सुळी.
चली : चूक जाली म्हजी.
(अीतल्यांत मानाय येवन मवाल्याक धरता )
मानाय : सांग, तूंच तो. अुदळ बसस्टोपाचेर आसलेलो तो तूंच.
म्हाजी पांच हजार रूपयाची पिशवी खंय ? सांग. नाजाल्यार
मोस्तोन मोस्तोन मारतोलों.
मवाली : पापया, म्हाका सोड. तूजे पैशे शेणल्या ? चोरल्या मरे ?
मानाय : हय. तुयें म्हाका बरो बनयलो. हातोहात फटयलो.
मवाली : हांवे न्ही. हाणे. हो पळय चोर धल्ला. हे चलयेचे पाकीटय
हाणेंच मारलां. (मानाय मवाल्याक सोडता)
मानाय : हयवय, होच थंयच घुटमळतालो खरो. होच तो.
( ताका आड घालता. सगळे तरनाटचाक मारतात. तरनाटो
'हांव चोर न्ही' करून किळच्यो मारता )
पंच : आरे अशे न्हय. अशें न्हय तें. ताका मारूं नाकात.
सगळे : चोराक मारूंकच जाय.
पंच : कोण चोर आनी कोण साव ?
सगळे : असले चोरांचे घट्टाण जांव.
पंच : तुमी मनशाभशेन ताका मारतात किदें ? आमी बावले. खरे
मनीस न्हय.
सगळे : तूं बच तुका जाय थंय.
पुतळो : (पंचाक) आतां तुका ते आयकुचे ना. ते तुका वळखुचे ना.
तांच्यातलो मनीस आतां पिसावला. हेवेळार तांका कांयच
कळना आनी समजयना. तूं अेकतर कडेक सर नाजाल्यार
तूंय तांचेभरशी ताका मार आनी तुजे हाताची खाज भागय.
कोणाक तरी मार होच मनशाचे जीणेचो सार.
(सगळे तरनाटचाक मारतात. काळोख.)

### देखाव चौथो

(सरकारी ऑफीस. येंप्रेगाद हातांत पेन घेवन खुर्चेर न्हिदला.
फुडचांत अेका स्टुलाचेर प्यून बसला. अितल्यांत थंय कामा-
खातीर प्रजेचे प्रतीक म्हण 'प्रजा' येता)

प्रजा : नमस्कार सायब.
प्यून : हांव सायब न्हू. हे पळय. हे ते सरकारी येंप्रेगाद. तुमचे
सायब.
प्रजा : आमचें काम जालें म्हण्टकच जालें सायब. तूं जांव तो
आमकां प्रजेक सगळेच सायब.
प्यून : तूं कोण ?
प्रजा : हांव गरीब प्रजा.
प्यून : प्रजा ! प्रजेची सगळीं कामां सरकारी ऑफीसांतच काय
किदें दिसभर ? तुमकां आनी ऑफीसां ना राज्यभर ?
प्रजा : ऑफीसां खूब आसात. जल्मनोंद ऑफीसपासून मेल्ले नोंद
ऑफीसांमेरेन मेजूंक येवची ना अितलीं ऑफीसां आसात हे
प्रजेखातीर.
पुण ते ते कामाखातीर ते ते ऑफीसातच वचून मरूंक जाय.

प्यून : मागीर हे ऑफीसांत मरपाक आतां हो वेळ? आमचे ऑफीस सकाळीं धांक अुघडे जाता म्हणून खबर ना? आतां दनपारचें अेक जालें. हो वोगोत काम करपाचो काय न्हीदपाचो ?
प्रजा : सायबऽऽऽ !
प्यून : (मोठ्यान) हांव सायब न्हय.
प्रजा : मागीर तूं कोण ?
प्यून : हांव-हांव-अंऽऽऽ (विचार करून) हय, हय, हांवच सायब, म्हण म्हाकाच सायब म्हण. म्हण.
प्रज: : सायब ऽऽऽ !
प्यून : हांव सायब आनीं हे तुमचे सर. हांका किदें म्हणप ?
प्रजा : सर ऽऽऽ
प्यून : केदें मोठ्यान म्हणतात ? तांचे न्हीदेची झोपमोड जायत जाल्यार तुजे कामाची तोडफोड जातली हें खबर ना ?
प्रजा : सायब, तूं तरी सराक अुठय. ऑफीसाचे दारार प्रजेची केदी रांग लागल्या पळय.
(कायजाण प्रजेचे फाटल्यान लायनीन भजन करीत येतात)
' सर सर अुठ सर, प्रजेचें काम कर.'
(येंप्रेगाद अुठता. सगळे थांबतात आनी आशेन पळेतात)
येंप्रेगाद : कितलीं जालीं ?
प्यून : अजून स वाजूना सर,
(येंप्रेगाद परत न्हीदता. सगळे परत भजन मोठमोठ्यान म्हणतात,
प्यून : शट अप् ऽ बोवाळ किदें घालतात ? हें सरकारी ऑफीस हांगा शिस्तीन वागूक जाय.
(सगळे भिवन लायनीत उबे रावतात. अेकअेकटो फुडे येवन)
– सायब हांव धा वरांचेर आयिल्लो. पुण तेन्ना हांगा कोणच येवंक नाशिल्लो म्हणून परतो गेलों.
– हांव साडे धांक आयिल्लों. पुण तेन्नाच सर पुरो जावन बसला म्हणून हांव भायर गेलों.
हांव अकराक आयिल्लें. पुण तेन्ना सर भाजीपाव खाता म्हणून भायर गेलें.
– हांव साडेअकरांक आयिल्लो. पुण तेन्ना सर फोनाचेर घराकडेन बरोच वेळ अुलयत आशिल्लो म्हणून वाजेवन भायर गेलों.
– हांव बारांक आयील्लो, पुण तेन्ना सर जेवतालो म्हणून भायर गेलो.
– हांव साडेबारांक आयील्लो, तेन्ना सर न्हीदील्लो.
सगळे : तो अजूनमेरेन अुठूंक ना.
प्रजा : आतां येंप्रेगादा अुठोवपाचें काम कोणाचे ?
सगळे : सरकाराचें.
प्रजा : सरकार कोण ?
सगळे : आमीच.
प्रजा : मागीर काम कोणाचें ?
सगळे : आमचेंच.
प्रजा : मागीर अुठयात तर.
(अेकटो शिकयता. बाकीचे म्हणतात)
१ – आंगार सूट, पायांत बूट,
अुठ येंप्रेगादा अुठ आतां अुठ.
– हातांत पेन, माथ्यार फॅन,
येंप्रेगादाक पडल्या सुस्त झेम.
– व्हडलो बंगलो, दारांत गाडी,
जनतेचे कामाची नाशाडी.
प्रजा तिश्टता ऑफीसां दारांत,
येंप्रेगाद बुडला रंगीत सपनांत.
('स' वरांचे टोले वाजतात. तसो तसो येंप्रेगाद अुठता)
सगळे : (खोशेन) सर – सर – सर ऽ ऽ ऽ ऽ !
येंप्रेगाद : अे ऽ ऽ हें किदें चल्लां ? दिसभर काम करून [...] पुरो जालां. सकाळच्यान कितलीं म्हणून कामां करपाचीं
१ – सर हांव म्हयनो जालो फावटीं मारतां. अजून म्हजें [...] जावना.
२ – म्हाजे कामाक जाल्यार अीतलो तेप जालो की [...] कसलें काम तेंच हांव विसरलों.
येंप्रेगाद : आतां सगळे फाल्यां येयात. 'स' जाली. ऑफीसचो [...] सोपलों.
सगळे : सर ऽ ऽ ऽ ! !
येंप्रेगाद : आतां सगळे ह्रांगसल्ल्यान भायर सर ऽऽऽ (वता)
प्यून : (बाकीच्यांकडे पळौन) आरे आसो वसो रे सासों वसो, [...] बंद करून वच आयला तसो. तळी दवरलेबगर जाग [...] ना, नाल्लविड्याशिवाय कामा जावची ना.
मॉब : आरे आसो वसो रे सासो वसो, तोंड बंद करून वच अ[...] तसो––

( काळोख )

**देखाव ४ थो :**

( फूडारी बसला. ताजे फुड्यांत व्यापारी, मवाली, पु[...] अुबे. तांचे हातांत अेक-अेक ल्हानशी पोटली आसा.)
पूलीस : सलाम सरकार.
व्यापारी : नमस्कार सरकार.
मवाली : तुमचो आशिर्वाद सरकार.
फुडारी : कशें चल्लां ?
तीगय : बेस बरें.
फुडारी : राज्यांतलें हवा, पाणी, वारें ?
तीगय : बेस बरें.
फुडारी : राज्यांतले काळे गोरे?
तीगय : बेस बरें.
फुडारी : दूध, अुदक, सोरे ?
सगळे : बेस बरे.

तुमी हांगा येवपाक कारण ?
तेच मुडांत ) बेस बरें.
हांव विचारतां येवपाक कारण किदें ?
येवपाक कारण... कारण... हॅं ऽऽ हॅं ऽऽऽ !
: सरकार भेसळ प्रतीबंधक कायदो केल्यान आमचे
धाक बरीच खोट बसल्या. तरीसुद्धां तुमचे कृपेन बरें चल्लां.
म्हयन्याचो तुमचो शिदो पावोवन घेयात. (हातांतले दिता)
सरकार, कायदे कोणाक जाय ? आमी घेवन आयल्यात
मचे धंद्याची साय. ( हातांतले दिता )
दुध ल्हायो चाख आनी सगळयांक आमकां राख. (दिता)
आनी किदें खबर राज्यांतली ?
: खबर ! खबर तीच सरकार. म्हयनोभर तेंच चल्लां.
: किदें चल्लां म्हयनोभर ?
: चळवळ. वचत थंय बंद, मोर्चे, असलीच वळवळ.
: कसली चळवळ ?
: तुमकां खबर ना सरकार ? आवयच्यान ?
: म्हाका कशें खबर आसतले ? तुमी म्हाका सांगलेशिवा.
म्हाका कशें कळतलें ? किदें किदें केलां तुमी चळवळीक ?
: चळवळीक जें घडूंक जाय तितलेंय आमी केलां. तोडफोड,
मोड चालूच आसा. अेकटयाची तकली फोडली, अेकटयाचें
दुकान फोडलें आनी अेकटयाचे घराक अुजो लायलो. अेकूण
तीग जाणांचे नुकसान केलें.
: (चिडून) आरे, अितले प्रजेमदीं फकत तीगांचेच नुकसान
केलें म्हणून किदें प्रजा खवळता. सबंध राज्यांत धूमाकूळ
घालूंक जाय. नासधूस करपाक जाय. तरच लोकांमदी अुजो
पेट्टोलो आनी तो पालोवपाचें सवंग करपाचो चान्स आमकां
मेळतोलो.
: सरकार, आतां सबंध राज्याची नासधूस करून आमचे
जीवाक त्रास करून घेवपाची गरज ना. आमचो संपादक
तीनाचे तीनशीं करून लोकांमदी व्यवस्थित फोडणी घालता.
: अशें ? हॅंऽ हॅंऽ हॅंऽ ऽ (पुलीसाक) आनी तुमी किदें केलें ?
: आमकां कांय करपा लागना सरकार, आमी वग्गी बसोन
रावतात. पुण आमचो संपादक 'चोख बंदोबस्त होता' अशें
म्हणून आमची आनी तुमचीय तुस्त करता.
री : व्यापारी वर्ग म्हळयार राज्याचो खांबो. तुमी किदें हात-
बोट लायलां कांय ना ?
ारी : ना कशें सरकार. तोडफोड जाली की आमी आमचे
दुकानातलो फोडपाखातीर बसयिल्लो हारसो आमीच फोड-
तात. अेक-दोन कुण्याचे साकय पेटयतात. तितल्यानच
"व्यापाऱ्यांचे लाखो रुपयांचे नुकसान ?" म्हणून आमचो
संपादक मोठ्ठे अक्षरात छापता.
( भायल्यान स्पश्ट-अस्पश्ट अश्यो 'मूर्दाबाद' 'झिंदाबाद'
घोशणा आयकूंक येतात. सगळे तेवटेन पळेतात.)
ारी : सरकार लोकांचो व्हडलो हुंवार येता. लोक सामके
अुज्यान पेटून भाजताशे दिसता.

मवाली : सरकार ते हेवटेनच येता.
फुडारी : हेवटेन येतात ? तशें जाल्यार तूमी भितर वचून लिपात.
व्यापारी : सरकार, तूंच आमची आवय, तुमीच आमचे बापुय
तुमकां अेकटे सोडून आमी कशें वचूं ?
फुडारी : चला म्हजी चिंता करूं नाका. तूमकां हांगा पळोवन
म्हजी अब्रू वतली. (घोशणा मोठयान) चलात. भितर वचून
लिपात. (पूलीसय तांचेबरबर थरथरत वता) आरे तूं खंय
वता. तूं राव भायले दारार.
पुलीस : सरकार भिरांत दिसता. हांवय लिपतां.
फुडारी : कांय भियेंव नाका. हांव सगळे व्यवस्थित करतां. चल
भायर राव (पुलीस भायर वता. घोशणा मोठयान आयकूंक
येतात. पुलीसाचो आवाज– 'रावात. अेकअेकटे वचात
थोडेच वचात.' कांयजाण येतात.)
फुडारी : येयात, म्हजे मोगाळ भावानो येयात. किदें जालां ?
१ – सरकार, राज्यांतले चळवळीक हींसक म्हणतात तशें वळण
लागलां.
फुडारी : जंय जंय वळण लागतात थंय थंय आमी 'वळण आसा'
अशें म्हणून रोखडेच बोर्ड लायतले.
२ – आमी चळवळीचे वळण म्हणतात. रस्त्याचें न्ही.
फुडारी : खंयचीय वळणा जांव. अंदूचे बजेटांत आमी सगळीं वळणा
नश्ट करतले.
३ – सरकार, पुण अशे वळणाक लागून कालचे दंगलीत तीनशीं
दूकाना जळून गोबोर जाली, जाल्यार तीन हजार लोकांच्यो
तकल्यो, हात, पांय मोडले.
फुडारी : ज्यांची दुकाना नश्ट जालीं, ताणी थंयच नवी दुकाना
अुबारचीं.
३ : पुण आतां तांका तें शक्य ना सरकार.
फुडारी : तांका शक्य ना जाल्यार लोकांचे सोयीखातीर आमी
शेजारचे राज्यांतले लोकांक दुकाना घालूंक लायतले. पुण
लोकांची वेवस्था करतले.
४ : आनी ज्यांच्यो तकल्यो फुटल्यात तांचे किदें ?
फुडारी : कितल्यो तकल्यो फुटल्यात ?
४ : कांय न्ही म्हळयार अेका अेका मनशाच्यो चार-चार, पांच-
पांच तकल्यो फुटल्यात.
फुडारी : म्हजे राज्यांत अेका मनशाक चार-चार, पांच-पांच तकल्यो
आसात.
४ : फट जाल्यार आयचो पेपर पळय. आमी फट सांगीना.
(खाक्यांतलो पेपर काडून दिता. फुडारी वाचता)
१ : हे गरीबाचो गाडो लुटून व्हेलो सरकार.
फुडारी : कोण लुटू ? धरून हाडात ताका हांगा. लुटूक फावो ती
ख्यास्त जातली अशें हांव तुमकां जाहीररीतीन सांगता.
१ : लुटू म्हणून मनीस न्हय. लुटून म्हणजे चोरून व्हेलो सरकार
फुडारी : गाडो खंय आशिल्लो ?
गाडेकार : रस्त्याकुशीक सरकार.

फुडारी : तेन्ना तूं खंय आशिल्लो ?
गाडेकार : गाड्याकुशीक सरकार.
फुडारी : कितलो माल चोरलो ?
गाडेकार : पन्नास हजारांचो.
फुडारी : पन्नास हजार ! अशें आशिल्लें किदें गाड्यांत ?
गाडेकार : लुटून व्हेलें तितलेंच आशिल्लें गाड्यांत.
फुडारी : किदें ?
गाडेकार : (पेपर दाखयत) फट जाल्यार पेपर पळय सरकार.
फुडारी : (वाचता) सामकें खरें. तुका नुकसानभरपाई मेळूंकच जाय. भावानो, जें घडलां– तें आयकून– म्हाका खूब खेद जाता, दुःख भोगता, काळीज तुटता आनी अऽऽऽ खुब वायट दिसता. हे सगळे गजालीची न्यायालयीन चौकशी जातली अशें हांव तुमकां आश्वासन दितां. तेचबरबर सगळ्यांक नूकसान भरपाई, आरोग्य भरपाई आनी शारीरीक भरपाई मेळतली. ज्याणी हें नीच कृत्य केलां आनी आमकां बदनाम करपाचो यत्न केला तांका लीपून रावंक मेळचेना. ज्यांका हे दंगलीत मार बसला तांचे आत्म्याक बेगीन शांती मेळची अशें हांव देवालागी मागता आनी तुमका सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणतां.

( सगळे ताळ्यो मारतात.)

घोषणा : सरकाराचो विजय जांव
फुडारी आमचो झिंदाबाद
पंच : (सहन न जावन) बंद बंद करात. बंद करात.
सगळे : कोण बंद करा म्हणता. असो फुडें यो कोण तो.
फुडारी : आमचे राज्यांत बंद, मोर्चे, मेळावे घडोवन हाडपाक बंदी आसा.
पंच : हांव म्हणता, तुमचो तो मनशाचो खेळ बंद करात.
पूतळो : तूं तांच्यांत पडू नाका. तांका खेळूनी खेळता तशे'
पंच : कसलो खेळ हो. हे सगळें सुवार्थी, दुश्ट, व्हावते न्हंयत. हात धूवन घेवपाचो खेळ हो. हो मनीसपणाचो खेळ न्हीं. सोड सोड म्हाका.

(पूतळ्याचे हातांतलो सूटता आनी फुडाऱ्या म्हऱ्यांत सगळे परत घोशणा दितात.)

पंच : बंद करात. थांबयात हो खेळ. पूरो. अीतलोच पूरो.
१ – सरकार, हो कोण तरी दूस्मान आसूंक जाय.
२ – नाजल्यार तूजो बिरोधक तरी आसूंक जाय,
३ – म्हणूनच तर हो तुजे जयजयकाराक विरोध करता.
४ – हाजो बंदोबस्त जावंकच जाय.
५ – नीदान हाजो कडकडीत नीशेध तरी करूंकच जाय.
फुडारी : कोण रे तूं ? हांगा येवन बोवाळ कसलो करता ?
पंच : तूमी सगळे म्हाका अितले बेगीन विसरले ? मनीस कडले. हांव हे खेळाचो पंच म्हणून तुमकां खबर ना ?
१ - (फूडें सरून) सरकार, सामकें फट. हांव सरपंच आ सगळें म्हजे पंच. हो कोणच न्हय. पंच खंय !
२ - सरकार, हो बंद करात म्हणता जाल्यार ताकाच पयलें करात.
फुडारी : पुलीसाक आपयात आनी हाकां भीतर अुडयात.
सगळे : पुलीसऽऽ पुलीस ऽऽऽ (पुलीस येता)
३ - हाका व्हरून कादयेंत बंद करात. सरकारी ऑर्डर आसा
पुलीस : (ताजे गोला धरून) किदें रे ? भल्ला काय किदें ?
पंच : आरे तूंच असो किदें करता. आमी जोशीच्यो बावल्यो. शाचो खेळ खेळतात. तूं वळखना म्हाका ? तुका याद न हांव– तूं- जोशी ! !
पुलीस : (ताका धुकलीत) कोण जोशी ? पोस्तार यो. थंय तुज्यो केशी.

( पुतळो अुठून तांचे फाटोफाट वता. काळोख )

**देखाव पांचवो**

(अुजवाड जाता. तेन्ना पुतळो पंचाक घेवन येता. पंच अं कपडे फाफुडता. खर्शेता.)

पंच : तुका लागून तांचे तावडीतल्यान सुटलों हांव.
पुतळो : तुका हांवे सांगिल्लेंच कीं थंय वचू नाका म्हणून. मनश जीण म्हळ्यार अेक व्हडलें व्यसन. जो जो ही जीण ज


**लाब साबांव** — सवाय आनी कपडे नितळ–निवळ धुता

**उषा सायकल** — घट आनी चालीक बरी अशी सायकल

**प्रेस्टीज प्रीत** — घरच्या बायलांनी पसंत केल्लो प्रेशर कूकर

**निमा पंखे** — तरेक तरांचे गिमांत थंडसाण दिवपी

गोंयचे मुख्य वितरक : **मेसर्स अनंत नरसिंह नायक**
**मडगांव**

ाका ती सोडीनच दिसना. तांचीय तीच अवस्था जाल्या.

ण किदेंय कर आनी तांका आशिल्ले तशे कर. पुरो हो

ळ, म्हाका वीट आयला आतां.

अितल्यानच विटलो.

ो किदें खेळ. लाचारी, फटींगपणा अन्याय, नागोवप आनी

वोटें नाटें सांगून आपआपली भाकरी चान्स मेळता तशी

भाजून घेवप. किदयाक ? कित्याखातीर ?

फकत पैशाखातीर, जगपाखातीर. पुण अितल्यानच खंय

किदें जालां ? असो यो. हो पळय, खेळ चालूच आसा.

(खंयतरी बोट दाखयता. फाटल्यान तसो तसो देखाव 'मॉब'

उबो करता)

झोपडी ! अेक-दोन-तीन-चार !

: झोपडी न्हय झोपडपट्टी.

(नाका-तोंडार हात दवरता) शीऽ ऽ घाण !

: मनशाची घाण मनशाखातीर, तांतुतले किडे वेचून खातात.

भुकेल्लीं आपले पोटाखातीर.

हे घाणीतले किडे खातात ?

: किडे मनशाक खातात, मनीस किडयांक खाता. असो यो.

हांगा पळय. (दुसरेकडेन घेवन वता)

मनीस ! फकत तकली, छाती आनी पोट ! मनीससुद्धां

वळवळता ?

: किडो कसो. म्हारोगी तो. ताजो अेक अेक कुडीचो भाग ते

म्हाकीडयांनी खाला आनी उरलां हे फकत धड.

थंय वळवळपी किडयांक मनीस खाता. हांगा वळवळपी मन-

शांक किडो खाता. आवयस्ऽ ऽ ऽ !

: हेवटेन यो. हांगा नदर मार.

भुरग्यांचो बापूय भुरग्यांच्यो गोमटयो कापता कोंबडयो कश्यो

ते कापील्ले भुरग्यांचे दोळे पळय कशे भायर लोंबकळतात.

: आनी कापतल्याचे पळय. सगळे दोळे शेवटी मनशाचेच.

तो कित्या कापता ?

: स्वत:क जगपाखातीर. ह्यो गोमटयो खंयतरी मनीसच

विकत्यो घेता. आता थंय पळय. कोणतरी नवे व्हंकलेक उजो

लायता. हुंड्याखातीर. तेवटेन पळय. चारय भुरग्यांक घेवन

बांयत उडी मारता तांची आवय सुटकेखातीर.

अितलेच जावन हे कोणच थांबयना ? कोणाकच थांबयन

दिसना ? कोणाचेच पोटात संतापान उजो पेटना. कोणाकूच

हें सोपोवचें शे दिसना ?

: दिसता. पुण वाट चुकता.

(काळोख)

**देखाव सवो**

(पुतळो पंच परत जाग्यार. सगळे आपआपले पांज्ञीन उबे)

टो : तरणे तरणे रगताचो मदनाचो पुतळो हांव,

न्याय जांव अन्याय जांव सगळयात पयलीं म्हजीं धांव.

म्हजेर अन्याय ! अेका शिकील्ले गॅज्यूअेट तरनाटचा-

चेर अन्याय ! अेक सादो भिकाडो मानाय आनी शापोतां

केदी व्हडलीं. फाटीर साक अुबारप आनी वेल्यान हाजे

तोंडातली विडी धरप हे शिकील्ले तरनाटचान. आज हे

मानायाक सोपयता हे सुन्यान.

( मानाया म्हन्यांत बता आनी ताजेर सुरो अुबारता )

मानाय : आरे, हे किदें ? तो ऽऽ तो ऽऽ सूरो मात्सो फाटीं घें.

तरनाटो : तूं दिसभर कामाक आंग चोरता आनी अेका दिसवडयाचे कामाक धा दिस काडता. बेठोच वेळ मारून व्हडलें काम केल्ल्याचे सवंग करता.

मानाय : हांवे केल्लें दिसता तूका. पुण तो व्यापारी भेसळमिसळ करून हजारानी जोडता तें दिसना. ताणे अशें नागोवन फुगोवन बोल्सां फुगयल्यार जाता आनी आमी मात दिसभर मरप. ते व्यापाऱ्याक पयलीं मार मागीर म्हाका विचार.

तरनाटो : तुजेंय फट न्हय. हो धर सूरो. (दोगय व्यापाऱ्या म्हन्यांत वता.)

व्यापारी : येयात, येयात. सवाय– सवाय–

तरनाटो : आरे तूं तर फटींगाचो पाय. (सुरो अुबारता)

मानाय : (सूरो अुबारून) आतां कित्या भिलो अशी भेसळ करून कितले जाणांचो जीव घेतलो ?

व्यापारी : म्हजो धंदो कसोय जांव पुण थोड़ेतरी कश्ट आसा. भांड-वल आसा. पुण ते गुंडाचे तशे ना. तो गुंडगीरी करून फुकट जोडता. पुण ताका कोण किदें करता ?

तरनाटो : हें तरी फट कशें जांव येता ? (सगळे मवाल्या म्हन्यांत येता.)

मवाली : मारात. पुण मारचे पयली आयकात. वयेन शेंत खाल्यार जाता. शेतान भात खाल्यार जातां. पुण आमचेसारखेले हेव-टेन तेवटेन अुडतले कावळयानी दोन दाणे खाल्यार तांका तूमी हर्त करतात. बाबानो गुंडगीरी आमी करीना. हे तूमचे राखणदार आमकां तें करूंक लायता.

(सगळे पूलीसाम्हन्यांन वतात)

पुलीस : (भिवन) राऽ राऽ ऽ रावात बाबानो आमचें किदें घेवन बसल्या ? सरकारी येंप्रेगादानी घेतल्यो गाडयो, बांदले बंगले हें किदें तांचे पगाराभितरच जालें ? पुण ना. अशे रस्त्यार रावन घेवपी दिसले. पुण ऑफीसाचे चार वण्टीमदी घेवपी लिपले.

मवाली : म्हणजे सरकारी येंप्रेगादच लायतात वाट.

तरनाटो : पयलीं तांचीच फोडूंक जाय फाट.

( सगळे येंप्रेगादाम्हन्यात वतात. सगळे ताजेर सुरो उबारतात).

यप्रेगाद : कोण ?

मानाय : खणूंक आयल्यात तुजो मरणाचो फोण.

येंप्रेगाद : पायां पडता तुमकां. म्हाका मारूं नाका. हांव काम करीना आनी लांच घेता ही आमचे फुडाऱ्याची कृपा. ताजेच आशिर्वादातल्यान हें सगळें घडता.

तरनाटो : आतां पावल फाटी घेवन उपेग ना. हे भ्रश्टाचाराचीं पाळामुळां खणून काडूंकच जाय.

सगळे : सरात फुडे (सगळे फुडाऱ्याम्हऱ्यांत येतात)

येंप्रेगाद : होच तो फुडारी.

फुडारी : आयज किद्या आयल्या जनता लोटून म्हजे दारी ?

तरनाटो : तुजी वाजोवंक भातेरी.

मवाली : तुका मारून आमी सोपयतले भ्रश्टाचारी.

फुडारी : तुमीच म्हाका हे आसनाचेर बसयलो आनी आज तुमीच सकयल उडयतले ?

व्यापारी : जें घडता तें सगळें तुकाच लागून, फुकट आमी किद्या भोगतले ?

फुडारी : हांव हे राज्याचो फुडारी. बरें घडूं वायट, म्हजीच जापसालदारी. ही गोश्ट खरी. म्हाका मारपाक हरकत ना. पुण हें आसन रिकामें दवरप बरें दिसचेना. हे राज्याचे फुडारपण कोणेयतरी चलोंवक जाय.

सगळे : हांव चलयतां– हांव चलयतां...

फुडारी : अशे सगळेच फुडारी कशे जातले ? तुमच्यांत किशलेशेच जातीचे आसात, कातीचे आसात. अशे वेगवेगळे जातीचे, भासांचे लोकांक सांबाळपाक शक्तीवान ताकदवान हे आसनार बसूंक जाय.

सगळे : हांव शक्तीवान– हांव ताकदवान...! (फुडे सरतात)

फुडारी : अशे हांव, हांव म्हणले म्हणून जाता ? तेपेक्षा तुमी सगळे झगडात. जो शक्तीवान तो जिकतोलो. तो मागीर म्हाका मारतोलो, आनी ह्या आसनार बसतोलो.

सगळे : हय वय. (अेकमेकांक मारतात. पंच धावून येता)

पंच : आरे, आरे थांबयात. अेकमेका मारूं नाकात. तुमी मनीस न्हय. तुमी आमी खामसुत्री बावल्यो. हो मनशाचो खेळ आतां थांबयात. रावात.

पुतळो : तूं वगी राव. खरो मनशांचो खेळ तो होच. अेकमेकांचे जीवार उठप, अेकमेकाचे रगत काडप होच खरो मनशाचो खेळ. हे खेळांत खरी मजा येता. तुकाय मजा येतली. चल तूंय खेळ.

(पंचय तांच्यात पडता. सगळे अेकमेकांक मारतात. झगडतात.)

पूतळो : झगडात, तकल्यो फोडात. आतकडचो भायर काडात. रगताचे व्हाळ व्हावयात. आनी मरात. मागीर तुमी सगळे हुतात्मे जातले. आनी बाकीचे जीते आशिल्ले तुमचो काचो अेक अेक पुतळो बांदतले. कसो जाणात ? असो.

(पूतळो आपले पयलींचे अॅक्शनीन उबो जाता. तश्यो सकयल पडील्ले बावले–बावल्यो ऊठून नाचूंक ला[illegible] नाचता नाचता म्हणतात–– )

आमी खामसुत्री, आमी खामसुत्री
मनशाचो खेळ आमी खेळतलीं, आमी खामसुत्री.



प्रयोग करूंक सोदल्यांनी सतकल्या पत्त्यार लेख[illegible] मान्यताय मेळवप गरजेचें.

दत्ताराम कामत बांबोळकार
महालक्ष्मी देवळालागीं,
बांदोडे–फोंडे–गोंय

## गोंयचे टेंपो आनी प्रवास

( पान ९ वयल्यान चालू )

रिगलो. भितर सरतांच ताचो बुटांचो पाय म्हाका दिसता[illegible] कॉलेज भिरमुटेच्या पांयांर पडलो आनी ती किळांचली 'ओ, गॉड !' त्या जाण्टेल्यान सोमतेंच म्हळे 'माय गॉड गों. तेशें जा[illegible] पाय साकोर ! ही तुमगे अिग्लेज भास म्हणजे सोगली ओजा[illegible] चेडवाक म्हुणटात मिस्, मिसाक म्हुणटात मास, मासाक म्हु[illegible] मीट आनी मिठाक म्हुणटात सॉल्ट,' मागीर टेंपोंतली तीं कॉले[illegible] भुरगीं धरून सगलींच घे म्हणून घुस्मटून घुस्मटून हांसपांक ला[illegible] टेंपो मडगांवच्या प्रासार केन्ना पावलो तें कळळें लेगीत ना. [illegible] कॅसेटीचेर आल्फ्रेड रोझ अिग्लेज कातरपी गोंयकार अ[illegible] अिंग्लिशमनाची फकाणां मारीत आनी कोंकणीच्या व्हड[illegible] गायतालो.

टेंपोच्या प्रवासाचीं दुःखां आतां फाटीं पडटलीं काय दि[illegible] कारण प्रवाशी टेंपोचेर बंदी घालपाचे खंय सरकारान थारा[illegible] अेका अर्थान ही बरीच गजाल. प्रवाशांक उबे रावपाक मेळत[illegible] मिनिबशी आतां घोळूंक लागल्यात. पुण ताकालागून गोंयका[illegible] मिजाशीचो बावटो मातसो वेळ तरी अर्यार ओणव्यार ह[illegible] शिकोवपी हें टेंपो फाटीं पडूंक लागतले ह्याचो मात हुस्को जाता.



# श्रीकृष्ण चैतन्य

– नागेश सोंदे

वं यचेयी एक महान मनीसाले जीवन विशय निवेदन तांतूत सत्य खंयचे, वास्तविक खंयचे, संकेत-उपमा-उदारण ानी कल्पनेक लागून, आदर–पूज्य भावनेक लागून वृत्तांत हृण्णूं सांगचें कठीण जाता. सर्व साधारण मानचांतु येता कीं ा ते महा पुरुशाले समकालीन आसाची, जे तागेले सहवासांतु ा किंवा तागेलागीं आशिल्यान तागेलें मन–विचार जाणू ी, समजू शकताची तांगेलो वृत्तांत जास्त वास्तव आसता. नीस जो महान् पुरुशालागीं आसता तो ते महा पुरुशाले त्वाक लागून आपण्याली स्वतःची शुद्ध बुद्ध विसरता आनी न्य प्रतिभेक लागून आपण्यालें कथानकाचे व्यक्ति विशय रण असले संदर्भ वर्णन करता. देकूनु जेन्नां इतिहासकार ते समकालीन जनांले लेखन अभ्यासा खातीर संदर्भ ग्रंथ म्हणुं रता तेन्नां हे विशय विचार करचें आवश्यक आसता.

श्रीकृष्ण चैतन्य हे असलेची एक असामान्य व्यक्ति आशिले ोले विशय भावनावश जाले शिवाय विवेचन करचें साध्य . बंगाल, उडिसा आनी आसाम प्रदेशांतु हे महा पुरुशा बद्दल श्रद्धा, भक्ति आनी आदर आसा कीं तांगेले विशय वस्तुनिष्ठ न करचें साध्य जायना. हां, हेंबी खरें कीं महान् व्यक्तिलें न सर्व साधारण मनीसाले हातांतल्यान जायना. पुण अभ्यास खातीर स्वीकारिले साधन बी जेन्नां भावनेन प्रभावित जालिले ा तेन्नां साधारण मनीसाक साधारण कार्य करचें बी साध्य ा.

श्री चैतन्याले प्रतिभेक लागून वैष्णव संप्रदाय उत्तर भारतांतु तीक आयलो. वैष्णव संप्रदाय आनी चैतन्य संप्रदायेंतु समन्वय प्राप्त जालें. आनी ताका लागून श्री चैतन्य श्री कृष्ण सादृश्य परमात्मस्वरूप जाले. श्री चैतन्यांनी ग्रंथ रचना केली ना. तांगेले जीवन आनी विचारांविशय आमकां तांगेले स्वतःचे ु खबर मेळना. पुण तांगेले समकालीन सहकारींक लागून ां जीवनाची चौकट समजता. तांतूतले असाधारण, वैचित्रपूर्ण सोडल्यारियी ते व्यक्तिलें महत्व आनी असामान्य प्रभुत्व तु आयले शिवाय उरना.

श्री चैतन्याले जीवन वृत्तांत आमकां तांगेले सहकारी मुरारी े चैतन्य चरितामृत, परमानंद सेनाले चैतन्य चरितामृत ाव्य, चैतन्य चन्द्रोदय नाटक, गोंविददासाले कडचा, प्रभोधानंदाले चैतन्य चन्द्रामृत असले ग्रंथांतल्यान मेळता. हीं सर्व ग्रंथं श्री चैतन्याले जीवन आनी विचारांचे मूळ ग्रंथ म्हणु मानिल्यान हे ग्रंथांतले संदर्भभक्तीन आनी श्रद्धेन चैतन्य संप्रदायेचे जन स्वीकारत आयल्याची. पुण हे सर्व ग्रंथांतु श्री चैतन्यांविशय आशिलो आदर इतलोची न्हंय तर तांगेले विशयीं आशिल्ली निष्ठा आनी मोग दर अेक पानावयर दिसून येता. श्री चैतन्याबरोबर हांगेलो संबंध लागीचो आशिल्यान तांगेले मन जास्त प्रमाणान भावनावश जावचें साहजीक आसा. ताका लागून तांगेले ग्रंथांतु थोडे जास्त असंभाव्य संदर्भ आयल्यार ते आमीं विसरयेत आनी श्री चैतन्यांले मूळ महत्व समजून घेवचे प्रयत्न करयेत.

सूर्याले अस्तित्वाची जाण सूर्याले लागीं आसून जायना. तागेले प्रभावाक लागून मनीसाले मन करपून वता. तेची तरेन श्री चैतन्याले लागीं आशिल्याले मन श्री चैतन्य तेजान कोलाहलित जालें आनी तांगेले वाणींतु चैतन्य प्रभेक जास्त महत्व प्राप्त जालें. पुण प्रभा ही तेजाची देण आसा, परिणाम आसा. प्रभेवयर आधार दीवनु तेजाची जाण जायना.

श्री चैतन्य हें काय तांगेले मूळ किंवा खरें नांव न्हंय. जल्म घेतिले तेन्नां तांका आवय बापयन विश्वंभर हे नांव दिलिलें. आवयलें नांव शाची व आनी बापयलें नांव जगन्नाथ मिश्र आशिलें. विश्वंभराक आवय मोगान 'निमाणे' म्हण्णु आफयताली. व्रतबंध जालें तेन्नां तांगेले नांव 'गौरांग' म्हण्णु दिवचांतु आयलें. आनी काळांतरान जेन्ना ताणीं सन्यास घेतलो तेन्नां तांगेले नांव परत बदललें आनी तांका 'श्री कृष्ण चैतन्य' म्हण्णु दिवचांतु आयलें.

जगन्नाथ मिश्राले पूर्वज पयलें उडिसा प्रदेशांतु निवास करनु आशिले. नंतर ताणी बंगाळचे सिल्हेट प्रदेशांतु आपण्यालें वास्तव्य केलें. पुण जगन्नाथ मिश्रानी आपण्याले शिक्षण नवद्वीपांतु घेतिल्यान तांका थंयीची स्थायिक जावचें कदाचित् परवडलें. किंवा नवद्वीपांतले पंडित नीलांबर चक्रवर्तीले धूवे बरोबर तागेले लग्न जालिल्यान ताणें ते गावांतु स्थायिक जावचें निश्चय केलिलें उरत. जगन्नाथ मिश्राक धा चेर्डुवं जालीं. पुण तांतुतली दोनची जीवंत उरलीं. णव्वो पूत विश्वरूप सान वयांतूचि सन्यास घेवनु घरदार सोडनु गेलो. आनी थोडेची समय उपरांत तागेलो देहांत जालो. विश्वंभरालो जल्म इ. स. २७ फेब्रुवरी १४८६ तु जालो. आनी हें एकचि संतान जगन्नाथ मिश्राक लाभिले कारणाय तो तागेले काळजाचो तुकडो जालो.

विश्वंभरान आपण्यालें शिक्षण नवद्वीपांतूची पंडित गंगादासाले शालेंतु घेतलें. थंय ताका संस्कृत, शास्त्र, व्याकरण, न्याय, इत्यादी विद्येचे ज्ञान प्राप्त जालें. स्वभावान तीक्ष्ण बुद्धीचो आशिल्यान शिक्षण घेत आसतानाची तागेले बुद्धी चातुर्याक लागून ताणें संस्कृत व्याकरण आनी न्याय शास्त्रावयरि विवेचन केलें. ताका लागून तागेली प्रख्याति एक विद्वान म्हण्णु चारी दिकान पसरली. नवद्वीपांतूची ताणें आपण्याली शाला सुरवात केली. आनी आपण्याले ज्ञानाचे वितरण करचें कार्य ताका साध्य जालें. विश्वंभर दिसचाक गोरो सुंदर, आनी ताका शोभचें तसलें वैचारिक आनी वक्तृत्व– हे सर्वांक लागून तो स्वतः आनी तागेली शाला प्रख्यात जाली. कृष्णा तसलें रूप आनी व्यासा तसलें ज्ञान आशिलो तो विश्वंभर आपल्याले प्रतिभेचो प्रकाश चारी दिकान पसरावपाक लागलो. अस्खलित वक्तृत्वान मनीसांले मन आकर्शित जातालें. आनी जन मानचाक लागले जशें कांय स्वतः परमात्मूचि प्रवचन करता.

प्रवचनाचो प्रसार जात आसतना ताका अनेक पंडितांलो सहवास लाभलो. वल्लभ आचार्य नांवाचो एक ब्राह्मण हे युवकाले प्रतिभेन आकर्शित जालो. आनी आपण्याली धूव लक्ष्मीप्रियाबरोबर विश्वंभराले लग्न लावनुं दिलें. पुण हो संबंध जास्त काळ विश्वंभराक लाभलो ना. आनी लक्ष्मीप्रिया थोडेचि काळ उपरांत मरण पावली. ताजे उपरांत सनातन मिश्र हे ब्राह्मणाली धूव विष्णुप्रिया बरोबर विश्वंभरान लग्न केलें.

इ. स. १५०९ तु विश्वंभराले विचांरातु एक महत्वाचे स्थित्यंतर आलें. तागेले बापयले निधन जाले उपरांत ताका श्राद्ध कर्म करचे खातीर गयेक भेट दिवची पडली. श्राद्ध कर्म सोंपोवनुं तो थोडे दीस थंय रावलो आनी थंयचे पंडितांबरोबर संपर्क साधपाक लागलो. तेन्नां तागेले जीवनांतु माधवेन्द्र पुरी हे एक विख्यात पंडितालें दर्शन जालें. माधवेन्द्र पुरी हे माधव संप्रदायेंतले अनुयायी आसून भागवत धर्म आनी कृष्णभक्तीचे प्रवर्तक जावनुं आशिले. गयेंतु हे काळांतु माध्व संप्रदायेचो प्रभाव सखोल आसून माध्व संप्रदायेचे जन आशिले. माधवेन्द्रपुरीलो शिश्य ईश्वर पुरीले शरण वचून तागेले पासून दशाक्षर मंत्रोपदेश विश्वंभरान घेतलो. शिश्य जाले उपरांत आभारान विश्वंभर म्हणता, 'तुगेले पादकमल हांवे आतां पळयले. गयेची यात्रा पूर्णतरेन सफल जाली.'

कृष्णमंत्राची दीक्षा पाविले उपरांत विश्वंभराले तन–मन कृष्णभक्तिन समाविश्ट जालें. ताका जंय थंय कृष्णाले अस्तित्व भासचाक लागलें. कृष्णाले नांव आयकलें कीं तागेले आंगाक रोमांच येताले, गळो दाटून येतालो आनी दोळयांतल्यान उदाक व्हांवतालें. श्रीकृष्ण भक्तींतु मन तल्लीन जालिल्यान तागेल अष्ट सात्विक भाव जागे जाले. ईश्वराले जे अनन्य भक्त आसताची तांकाची हो अनुभव येता. 'स्वेदस्तंभो य रोमांच स्वरभंगोऽथ वेपथुः । वेवर्ण्यमश्रुप्रलयः' हे अष्ठ सात्विक भाव आसाची. थोडी हूम येवची, तटस्थ आसचें, आंगावयर रोमांच येवचो, स्वर भंग जावचो, आंगांतु थोडो कंप येवचो, मुखावयलो वर्ण ना जावचो, दोळयांतल्यान दुकां व्हांवची, आनी मूर्च्छित जावचे हे आठ सात्विक आसून थोडे जास्त प्रमाणान सर्व भाव भक्तांतु दिसून येताची.

परमात्मा सर्वव्यापक आसा हें विश्वंभर वेदोपनिशद अभ्यासाक लागून जाणतालो. पुण जेन्नां ताका तेंची ज्ञान गुरु तल्यान मंत्ररूपान प्राप्त जालें तेन्ना ते परिणामकारक जालें. ग्योपनिषदांतु सत्यकाम जाबांल, गौतम रुशीक सांगता, 'श्रुत मे भगवत् दृशेभ्यः आजार्याद्धैव विद्या विदिता साधिष्ठं प्रापत (४.८.२) आचार्यापासून प्रत्यक्ष घेतिल्ली विद्या परिणामाचे उत्कृष्ट आसता म्हण्णु हांवे आयकिलें आसा. वाचून मेळिले परस विद्वान गुरूकडचान मेळचें ज्ञान अधिक प्रत्ययकारक हो अनुभव सर्वांक आसता.

असलोची अनुभव विश्वंभराक आयलो. बापयले श्रा करनु तो परत आपण्याले गांवाक येतालो. रस्त्यारि चक्रवेण तले गदाधर मंदिरांतले श्रीकृष्णाले दर्शन घेवचें सौभाग्य ताका ब्राह्मण जन वेद पारायण करताले. असले धीरगंभीर वाताव विश्वंभरान आपण्याली द्रिश्टी, तन–मन श्रीकृष्णाले पादकमळ केंद्रित केलें. ध्यानस्थ विश्वंभराले मनाचे बंद दरवाजे आप उघडले आनी थंय आत्मस्वरूप प्रकाशाची अनुभूति जाली. ता तागेलें मन ते स्वरूपांतु विलीन जालिल्यान भितर–भायर स्वरूपाचो अनुभव जालो. चिन्मय परब्रह्माचो साक्षात्कार भागवत धर्माचो मूळ प्रवर्तक श्री विष्णूले कृष्णस्वरूप अंतस्क प्रगट जालें. हो कृष्ण पौराणिक किंवा ऐतिहासिक कृष्ण नास आध्यात्मिक कृष्ण आशिलो. गदाधर मंदिरांतले श्रीकृष्णाले फातराचे मूर्तिचे पायावयर द्रिश्टी स्थिरावली कीं परमात्माले स्वरूपाचे प्रतीति आकाशांतले कृष्णवर्णांतु जाता.

साक्षात्कार जालिले मनीसाले जीवनांतु सखोल असलो येता. ताका जंय थंय श्रीकृष्ण अस्तित्वाचो अनुभव जाता. किंवा भक्तांक वस्तुतः निराकार, नामरूपातील आसचे परब्र प्रतीति काळे रंगांतु जाता. व्योमाकार असलो जो शुन्य अव आसता, ताका वस्तुतः वर्ण नाशिल्यारीयी तो काळो दिसता. जेन्नां 'इदं श्रेष्ठं ज्योतिषां ज्योतिः' (ऋ. १०।१७।)– सर्व तले स्रेष्ठ तेज पसरता, तेन्नां तो काळो वर्ण नीळो दिसता. काळे शाळिग्राम किंवा गंडकी शीळेची किंवा खंयचेयी काळे पणाची विष्णुमूर्ति ही नीलकृष्ण वर्णान प्रतीत जावचें परब्र प्रतीक आसता. परब्रह्मालो प्रभाव ओंकारस्वरूपान उक्तें आशिल्यान कृष्णाले मुरलीवादनान बेभान आनी धुंद जालिले तरेन विश्वंभर बी सर्व विश्व विसरनुं कृष्णप्रभावान तल्लीन जा

विश्वंभराले वागणूक तेन्नांच्यान सामकी बदलली. तो भक्तिरसान सदाकाळ भावनावश आसतालो. सामान्य विशय उ आसतानाबी तक्षण भान विसरनुं कृष्णाले उगडासान तागेलें असामान्य भावनेन मग्न आसतालें. शाळेंतले विद्यार्थ्यांली दि दुर्लक्ष्य जावचाक लागलें. हें पोळोवनु ते विश्वंभरालो पूर्वीचो गंगादासालागीं गेले. गंगादासान विश्वंभराक शिक्षकाले कर्तव्यवि उपदेश दिलो. पुण कांय उपयोग जालो ना. विश्वंभर म्हणा

तें करूं.' शिकयत आसताना अकस्मात श्रीकृष्णाले नील- ुख मेगेले नदरेक येता. आनी हांवु सर्व शुद्ध-बुद्ध विसरता. रलीचे सुंदर आवाजान मेगेले तन मन स्तब्ध जाता. कदा- आतां शिक्षक जावचाक योग्य ना. चेड्डुवं जंय जाय थंय ाची.'

ा चेर्डुवं विश्वंभराक सोडचाक तयार जाले नांची. तागेले तांका चैन नाशिलें. विश्वंभराले व्यक्तिमत्वान तांगेले यपून काडिलें. विश्वंभरान तांका कृष्णा विशय उपदेश ांका संकीर्तनाचे महत्व सांगून 'हरये नमः कृष्ण–यादवाय पाल गोविंद राम मधुर धना।' हे मंत्राचो घोष करत ा. हातान टाळी वाजयत गायचे विश्वंभराले चारी दिकान रचे पोळोवनुं गांवांतले सर्व जनांक आश्चर्य जालें. भगवद् काळजांतु भागवत धर्माचो उदय परत जालो अशें दिसून आनी म्हण म्हण मेरेन हे संकीर्तनाचो प्रसार गांवांतु सर्व संरलो.

क्षणाक थोडे राबून बंगाळांतले ते काळाचे आध्यात्मिक गा विशय विचार करचें तशें आसा. बंगाळांतु जयदेव ीले काव्याक लागून कृष्ण भक्तीचो प्रसार आशिलो. पुण ान शक्ति संप्रदायेचे महत्व वाढत गेलें आनी भागवत प्रभाव कमीं जालो. शिवाय बंगाळांतु इस्लामी राजवट ीन पसरताली. ब्राह्मण, पंडित जन आप आपण्याले सीमित वावुरताले. नवद्वीप, सिल्हेट, उडिसा, पुरी असले क्षेत्रांतु चि दीपस्तंभ तसले ज्ञानी, शास्त्रज्ञ, पंडित आशिले. पुण ान सामान्य जनां पर्यंत पावनाशिलें. ताका लागून जेन्नां ाक लागून कृष्ण भक्ति आनी संकीर्तनाचे महत्व जन ांतु पसरचाक लागलें तेन्नां संसारांतु परत भागवत धर्माचो करचे खातीर साक्षात् श्री कृष्ण विश्वंभराले रूप घेवनुं कीं कांय म्हण्णुं जन म्हणचाक लागले.

वश्वंभराली ख्याति सर्व दिकान पसरली. जनांक आनी ज्ञानी क दिसून आयलें कीं जें शास्त्रज्ञांक ज्ञानमुखांतर साध्य जालें कीर्तनाचे माध्यमान सरळ, सुलभ जाले. भागवत धर्माचो प्रसार पोळोवनुं ज्ञानी, शास्त्रज्ञ आनी पंडित आपण्यालें विद्वत्ता आपण्याले मस्तकांतु दवरनुं आपण्याले काळीज ाचे अनुभवाखातीर उघडे करनुं विश्भंरा लागीं आयले. द, अद्वैताचार्य, श्री वत्स, गदाधर आनी हरिदास हे तागेले यले अनुयायी जाले.

ईश्वर सर्वात्मक आशिल्यान तागेले भक्तियोगंतु आनी चळवळींतु सभेतक, सद्रोतक प्रमुख स्थान आशिलें ा, सत्ता, संपत्ती, उच्च जातींतु जल्म, शरीरिक सशक्तता, सौंदर्य हांका व्होडपण ना. मनीसाले अंतस्करणांतली सदयता, अद्वेशिता, निर्वैरता, हांचे महत्व जास्त आसता. ाले जल्माचो जर विचार केलो तर हेंचो दिसून येत कीं तो पुरस्कर्ता आशिलो, सामान्य जन, सामान्याले सुख दुःख तो ो. देकूनु असले ईश्वरी गुणयांक लागून तो ईश्वरावतार विश्वंभर आपण्याले जीवनांतु आपण्याले वागणूकीन श्री

गंर

कृष्ण प्रतिनिधी जालो. तागेले अनुयायींची दखल जर घेतली तर दिसून येतालें कीं ताका जात–पात महत्वाची नाशिली. कृष्णाविशय नितांत भक्ति आनी संकीर्तनाविशय अविरत आस्थाय आशिलो मनीस तागेले करुणेक पात्र जावनुं आशिलो.

विश्वंभराले सहवासांतु सर्व जात, धर्म, उच्च-नीच अशे समावेश जालिले. ब्राह्मण तशें शूद्र, हिंदू तशें मुसलमान, राजे तशें भिकारी तागेले संकीर्तन समारंभांतु सहभाग जाताले. नित्यानंद एक अवधूत सन्यसी, अद्वैताचार्य नांवातरेन शंकराचार्याले अद्वैत विचारांचो अनुयायी, गदाधर न्याय शास्त्राचो महापंडित, हरिदास जातीन मुसलमान, राय आनी रक अशें तागेलो शिश्यवृंद आशिलो.

गावांतु श्री वास नांवाची गृहस्थ आशिलो. तागेली बायल आनी विश्वंभराली आवय शचीली मैत्रि आशिली. देकून विश्वंभर तागेले परिचर्चातिलो. विश्वंभराली कृष्णभक्ति पोळोवनु तो आकर्शित जालो. आनी ताणें आपण्याले घर संकीर्तन करचें खातीर उघड करनुं दिलें. वास्तविक पयले पयलें संकीर्तनाचो प्रसंग श्रीवासाले घराचे आंगणांतूचि जाताले. सुरवातीक संकीर्तनाचो लाभ लागीचे बंधु–बांधव, मित्र परिवारांकचि जातालो. पुण संकीर्तनाची गोडी आनी परिमळ जशें जशें पसरलो तशें तशें श्री वासाले घरचि कित्याक नवद्वीप गांवबी अपूरो पडलो. जात–पात, समाजांतले स्थान-मान, अस्तिक–नास्तिक, सर्व सिरनुं जन विश्वंभराले सहज प्रतिभेन प्रभावित जावनुं हरिनामसागरांतु डुबकी घेताले.

असलो वेव्हार सनातनी म्हण्णु घेवचे अंध घमंडी ब्राहमणांक आवडलो ना. आपण्याली सत्ता आनी वैभव तांका आतां ढळमळचें दिसून आयलें कीं तागेलो प्रतिकार तीक्ष्ण जालो. देवाबरोबर वैर बांदचे आसल्यार दानवांले दायज करचें पडता. देकुनु ते सरळ गावांतले काझी लागीं गेले. काझीन ही चळवळ बंद करचे खातीर प्रयत्न जरूर केलो. गावांतु संकीर्तन करचाक बंदन घातलें. भक्तांले मृदंग–जाका बंगाली भाशेंतु 'खोल' म्हणताची– भंग केले. पुण जन शक्ति जी जनार्दनाले शक्तिन सदृढ जाल्या– ती कशें मोडनुं काडची ? काजीक तें अशक्य जालें. तशें पळयल्यार जनसामान्यांतु वावुरची जनार्दनाले शक्ति मुखार तो शरण गेलो. आनी संकीर्तनचे मार्गावयरचे सर्व अढतळे ना जाले.

संकीर्तनाची प्रथा घरोन घर पसरली. दर दीस रस्त्यारि जनांनी सामूहिक रीतीन कृष्ण गुणगान करत वच्चें सर्व साधारण जालें. नवद्वप हरिनामान दुमदुमलें. विश्वंभर म्हणतालो, 'संकीर्तन आरम्भे मोहोर अवतार । बिलैमु भक्तिरस प्रति घरे घरे।' कळी काळांतु संकीर्तनाचे महत्व दाखोवनु दिवचे खातीर आपण्यालो अव-तार जाला म्हण्णु तो मानतालो. भारतांतले भागवत धर्मातूची न्हंय तर संसारांतले सर्व भक्तिपंथांतु ईश्वराले नांवाचे उच्चारण, 'स्मरण, कीर्तन हे भक्तीचे सर्व श्रेष्ठ साधन म्हण्णुं मानिल्लें आसा. आस्य जानन्तः नामचित् विवक्तनः' (–ऋ. १.१५६.३) विष्णूले नावाचो अर्थ समजून तागेलें संकीर्तन करका म्हण्णु सांगचे प्राचीन वेदोक्तिपासून आतां मेरेन संसारातले सर्व संतांनी, सत्पुरुशांनी नामसंकीर्तनाचो हो सुलभ मार्ग स्वीकारिलो आसा. आनी अनंत

सुखाचो अनुभव घेवनुं इतरांनी बी होची मार्ग पत्कर कर म्हण्णुं आग्रह केलिलो आसा. 'श्रवणं कीर्तनं विष्णो: स्मरणम् पादसेवनम् ।। अर्चनं वंदनं दास्यं सख्यमात्मनिवेदनम् ।।' हे नवविध भक्तिपथांतु ईश्वराले नांव वर्णीन आनी मनान अखंड उच्चारचे जनांक सर्व साधारण सुलभ आशिल्यान विश्वंभरान ताजोची उपयोग केलो.

हिंदू समाजांतु अनादिकाळापासून सन्यसाश्रमाचो प्रभाव अत्यंत सामूहिक रीतीन पडिलो. संसाराचो मोह सोडनुं, घर–दाराचो त्याग करनुं, तन मनावयर अनुशासन दवरनुं, समाजा-खातीर, विश्वाखातीर, विश्वात्मकाखावीर स्वतःचे संकुचित अस्तित्व सोडनुं सन्यास घेवचो मनीस समाजाक आदरणीय आशिलो. तागे-ल्यांतु दैवी शक्ति आसता देकून तागेले विचार, आचार, वक्तव्य दैवी शक्तीन प्रभावित आसता म्हण्णुं जन मानताले. विश्वंभराक समाजाचे मनावयर आशिले हे प्रभावाची जाण आशिल्ली ताका दिसले कीं जर आपण्यानवी सन्यासाश्रम घेतलो तर आपण्याले कार्यातु सफलताय मेळताली आनी कृष्णनाम संकीर्तनेंतु जास्त सह-भाग जाताले.

सामान्यत: सन्यासाश्रम घेवचो नासता. सन्यास सरळ जीवनांतु प्रवेशिता पान पिकलें कीं जे तरेन तें झाडावयल्यान सरळ सुलभ रीतीन गळनुं पडता, ते तरेन मनीसाले मन संसारांतल्यान स्वतंत्र पावलें कीं सहज रीतीन सन्यास वेता. सन्यास घेवचे खातीर खंयचोयी अेक वेश किंवा वेव्हार स्वीकारचें पडना. भगवद् गीतेंतु श्री कृष्ण सांगता, 'अनाश्रित: कर्मफलं कार्यं कर्म करोति य: । स सन्यासी च योगी च...' (–८.१) 'योगयुक्तो विशुद्धात्मा विजितात्मा जितेंद्रिय: । सर्वभूतात्मभूतात्मा कुर्वन्नापि न लिप्यते ।' – (५.७) 'सर्वभूतस्थमात्मांन सर्वभूतानि चात्मानि । ईक्षते योगयुक्तात्मा सर्वत्र समदर्शन: । 'यो मा पश्यति सर्वत्र सर्वंच मयी पश्यति । तस्याह न प्रणश्यामि स च मे न प्रणश्यति । (६-२९-३०) कर्म-फळाची आशा नाशिल्यान अंतस्करण शुद्ध, सात्विक, पवित्र जालिले मनीसाक सर्वत्र ईश्वराले आस्तित्व भासता. असले समयारि काळजांतु कृश्णान वसतिस्थान करचें आसता.

पुण मनीसाले जीवन काळसमयाचे चौकटींतु बसयिलें आसता. समाजांतु वावुरचें आशिल्यान समाजाचे नियमांक आधीन जावचें साहजीक आसता. देकून जेन्नां विश्वंभराले मनांतु वैराग्य उदयाक आयलें आनी दिसून आयले की आपण्याले कार्याचो विस्तार सन्यासाश्रम उघड रीतीन स्वीकारल्यार जास्त सफल जातालो. तेन्नां ताणें सन्यास घेवचो निर्धार केलो. गुरुपासून दीक्षा घेवचें सांन्यसीक अगत्य आसता. 'तस्मात् गुरूं प्रपद् येत् जिज्ञासु: श्रेय उत्तमम् । शाब्दे परे च निष्णातं ब्रह्मण्युपशमाश्रयम् ।' भागवत पुराणांतु सांगल्या कीं जिज्ञासु भक्तान 'शाब्दे परे च निष्णात' म्हळचार शास्त्र आनी अनुभूति हाज्यान संपन्न आशिले गुरुपासून दीक्षा घेवका. देकून भारती संप्रदायेचे केशवभारती लागीं दीक्षा घेवचेखातीर विश्वंभरांनी निश्चय केलें.

विश्वंभरान सन्यास घेतले तेन्नां ते चोवीस वर्साचे आशिल्ले.

भक्तिरसान उतुंब भरिले भक्ताक दीक्षा ती कसली दिवची. परंपरा सांभाळची पडता. केशव भारतीनी दीक्षा दिली खरी. लागून तत्वोपदेशबी दिलो म्हण्णुं मानचें साध्य जायना. कि तर भारती सन्यास परंपरेक लागून विश्वंभरान आपण्याले भारती म्हण्णुं बदललें ना. केशव भारतीनीबी आग्रह धरल आनी विश्वंभराले नांव 'श्री कृष्ण चैतन्य' म्हण्णु बदललें. दिताना विश्वंभराले प्रतिभेन प्रभाविद जालिलो श्री केशव भ म्हणता, 'जे भक्ति तोमार आमी देखिला नयने । ए शक्ति नाहे ईश्वर बिने । तुमि से जगद्गुरु जानिला निश्चय । त गुरुर योग्य केहा कभु नाय । ताबे तुमि लोकशिक्षा निमित्त का करिबामारे गुरु हेना माने लय ।।'

विश्वभर श्रीकृष्ण चैतन्य जाले की ताणें घर-दार, आ बायल, संसार आनी समाज सोडलो. आसक्ती आसची न्हंय गांव आनी मित्रपरिवारबी त्याग केलो. श्रीकृष्ण गीतेंतु स्पश्ट कीं जें सन्यास म्हण्णुं ओळखुवंचातु येता तें मूलत: योगचि आ 'यं सन्यासमिति प्राहुर्योगं तं विद्धि पांडव' मुखार सरनु तो म्ह 'यदा हि नेन्द्रियार्थषु न कर्मस्वनुषज्जते । सर्व संकल्पसंन्यासी रूढस्तदोच्यते ।। ' (६–४) जेन्नां मनीस इन्द्रियांतु आनी कार्यातु आसक्त जायना आनी सर्व संकल्पांचो त्याग करता ते योगारूढ जालो म्हणताची. हाजो भावार्थ म्हळचार मनीसान स घेवचाक रानावनांतु वच्चे जरूर ना. पुण विषयासक्तीपासून ब जावचे न्हंय. ते तरेन ताणें आपण्यालो वेव्हार आनी जीवन आसता. अनंताले दर्शन जाय आसल्यार तर मनांतले काम, लोभ, मोह, मद, मत्सर असले अंत:करण भ्रश्ट करचे वि प्रयत्नपूर्वक दूर करचें आवश्यक आसता. तेन्नांची मनीसाले मनांतु अनंत प्रगट जाता आनी भक्ताक साक्षात्कार जाता. ' स नृते मिथुनीकृत्य प्रवर्तितोऽयं लोकव्यवहार: ' म्हण्णुं श्री शंकरा म्हणताची. सत्य आनी असत्याचे निकट मिश्रणान गढूळ जालि संसाराचो त्याग करचें अत्यावश्यक आसा, हें खंयचेयी स मनीसाक जर दिसलें तर तांतूत आश्चर्य ना. श्री चैतन्य जा कीं सर्वसंग परित्याग करनुं लोकांले कोलाहलांतल्यान दूर निर्जन अरण्यांतु केवळ आपण्याले शिश्यांसयत प्राचीन रुशी उरचें हे कळीकाळांतु साध्य ना. पुण आसक्तीक ओढ दिवचे घर आवय-बायल, मित्र परिवारांचो संबंध दूर दवरचें आध्या प्रगती खातीर आवश्यक आसा, हें तांका मान्य दिसलें. देकू चैतन्यांनी नित्यानंदाक आप्त स्वकीयांक समाधान करचें ख नवद्वीप धाडलें. समस्त जन समुदायेक समाधान जालें ना. आप सहवासांतल्यान श्री चैतन्य दूर वताची म्हण्णुं तांका अतिशय जालें. पुण समय शुभ आनी पुण्यदायक आशिल्यान नवद्वीप सितांनी तो दिवस संकीर्तन करनुं संभ्रम केलो.

**ONLY THE BEST MAKE HISTORY**

# HERSONS

**( THE FIRST NAME IN SPRINGS )**

Herson is known for quality, Thear of reliability has been by making product which meets The Sringent Standard Of Original Equipment Automobile Manufacturers.

When You Need Springs Ask For Hersons.

## Hersons (India) Steel Industries

**OFFICE :**
Nandanvan Apartments,
Luis de Miranda Road,
Margao-Goa

**FACTORY :**
Shed No D2-26,
St. Jose de Arael,
Margao Industrial Estate,
Margao-Goa.

HERSONS Telex : 196-205
Phone : 2975, 3246

**सगळयांनी वाखाणलेली आमची नवी**

## स्कॉच टेरियर व्हिस्की

**संवसारांतल्या खंयच्याय व्हिस्कीपरस बरी**
**अशी मान्यताय मेळिल्ली**



## RHEAA DISTILLERIES

**NUVEM - SALCETE - GOA.**

# कुळागर प्रकाशन

'कुळागर प्रकाशन' विखंड जाल्ल्या कोंकणी समाज
भास आनी साहित्याच्या आदारान, सामाजिक
आनी सांस्कृतिक एकचार घडोवंक वावुरता.

**आमी दोन नेमाळीं उजवाडायतात :**

'कुळागर' – गद्य साहित्याचे मासिक
( वर्सुकी पटी २५ रुपया )
आनी 'ऋतु' – कवितेचें द्वैमासिक
( वर्सुकी पटी १२ रुपया )

आमचो वावर फुडें व्हरपाक आमकां तुमचो आदार
तुमी २५०/– रुपया एके रकमेन वा हप्त्यानी भर
आमचे आश्रयदाते जावचे अशी तुमकां विनंती आस
आमी तुमकां आमचीं सगळीं पुस्तकां आनी नेमाळीं धा
रावतले.

**आमचीं पुस्तकां :-**

* सासाय (कविता) — बाकीबाब बोरकार
* गजालींचे नाटक (नाटक) — अना म्हांब
* उश्णीं वायणां
* पणजी आतां म्हातारी जाल्या (कथा) — अना म्हांबर
* व्हंकल पावणी (कथा) — चंद्रकांत केणी

**फुडलीं प्रकाशनां :-**

- महाबळेश्वर सैल हांच्यो कथा
- शंकर रामाणी हांच्यो कविता
- प्रकाश थळी हांचे ललित लेख
- भुरग्यांखातीर काणयो
- कर्णपर्व : उदय भेंब्रो हांचें नाटक

## कुळागर प्रकाशन

**पो. बॉ. नं. ७८ मडगांव–गोंय.**